# ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो



प्रकाश दामोदर पाडगांवकार



सृजन-विश्व प्रकाशन
२००८

ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो
कविता संग्रह

पयली उजवाडावणी :
एप्रिल २००८



उजवाडावपी:
सौ. संजीवी प्रकाश पाडगांवकार
सृजन-विश्व प्रकाशन
मातृकलश,
M-16, हावसिंग बोर्ड कॉलोनी
आल्त पर्वरी
बार्देश- गोंय-४०३५२१

मुखचित्र:
श्रीधर कामत बांबोळकार

अक्षर जुळवपी:
कलाकृती, मधुबन कॉम्प्लेक्स,
तांबडी माती, सांतइनेज, पणजी,
फोन: २४२६५२६

छापपी :
सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम,
खोर्ली, तिसवाडी, गोंय

मोल : रु. १४०/-

BRAHMAND-YOGI CHIRANTANACHO
A Collection of Poems in Konkani
by Prakash D. Padgaonkar

First Edition:
April 2008



Publisher:
Mrs. Sanjeevi P. Padgaonkar
Srujan-Vishwa Prakashan
Matrukalash,
M-16, Housing Board Colony,
Alto - Porvorim
Bardez - Goa 403 521

Cover Design:
Shridhar Kamat Bambolkar

Typesetting:
Kalakruti,
#33, Madhuban Complex,
Tambdi Mati, St. Inez, Panaji - Goa
Ph.: 2426526

Printer:
Sahyadri Offset System
Corlim, Ilhas - Goa

Price : Rs. 140/-

कश्टांचे उपशी दोंगर
हात तुजे सृजनाळ
पडटा तुजी नदर थंय
मूळ धरता काळ

धर्तरेच्या सृजनात्म्याक
तुकाच लागून अर्थ...

म्हजी सहचारिणी संजीवी हिका

# मांडावळ

# मनाचो उत्फर्को

**"ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो"** ह्या संग्रहातल्यो कविता म्हज्या चैत्य-मनाचो हुंकार. मनान निवांत, शान्त, आसताना, हो म्हजो म्हज्या आत्म्यालागीं जाल्लो संवाद. ह्यो कविता आकाराक येतना, म्हज्या दोळ्यांमुखार जें कितें साकारून मनार पडबिंबतालें, ताणींच उतरांचें रूप घेतलां. ह्या कवितांचो निर्माण काळ आसा १९९८ ते २००७.

एके कवितेच्या निर्मणेचो प्रसंग सांगतां. हांवें म्हज्या दाव्या दोळ्याचें ऑपरेशन २४-०५-२००४ दिसा कस्तुरबा मेडिकल हॉस्पिटल, उडुपी हांगां केल्लें. ऑपरेशनावेळार, दोळ्या भोंवतणी गुंगी दितात, आनी ऑपरेशन करपाचो दोळोच उकतो दवरतात. ऑपरेशन चलताना दोळ्यार फकत उजवाडाचे झोत मदीं मदीं पडत आसतात. हें ऑपरेशन चलताना म्हाका म्हज्या सुप्त नदरेमुखार तरेकवार देखावे दिसताले आनी विश्व-ब्रह्मांड निर्मणेचें रहस्य होलमूंक लागिल्ले भशेन दिसून हांव सामको ल्हव जावन उफे-उफेत उंच अंत्राळांत भोंवडी करताना हें अणभवता अशें दिसपाक लागिल्लें.

उपरांत ऑपरेशनाच्या दोळ्याभितर सणसणे मारून दोळो ते कानामेरेन एक दाट शेंदुरी लावा-रस यो वच करता अशें म्हाका दिसतालें. अशे परिस्थितीतय म्हजे भितर जें कितें खतखततालें, तें बरयले बगर रावंक जायना जातालें. ह्या वेळार जे कितें विचार म्हज्या मनांत घोळून दोळ्यार साकारताले, ताचीच "ईश्वरसूक्त" ही कविता. ऑपरेशना उपरांत ही कविता हांवें तेच अवस्थेंत रोकडीच बरोवन काडिल्ली.

आमच्या दोळ्यांमुखार जाच्या प्रभावांत आमी जियेतात तें स्वयंसिद्ध चैतन्यान भरिल्लें येदे व्हडलें विश्व ब्रह्मांड पातळिल्लें आसा. परार्ध-काळ तें जियेता आनी जियेतलें. हाचे मुखार मनीस इल्लेशें कुस्कूट..... जाल्यारय मनीसच ताचो थाव घेवंक शकता, ताचें बरें वायट करूंक शकता. ह्या संग्रहांतल्यो

चडशो कविता म्हाका कोणें श्रुतीलेखन दिल्ल्यावरी  बरोवन जाल्यात. ह्यो कविता आपलें रूप घेतना, ताणीं म्हाका आगळीच खोस दिल्या. अशें म्हणचे परस, ह्यो कविता हांव पुरायेन काळजासावन जियेलां.

हो म्हजो सातवो कविता-झेलो. हाका डॉ. एस. एस. कुलकर्णी हांची अभ्यासपूर्ण प्रस्तावना लाबल्या. या समयार हांव म्हाका म्हजे जिणेकडेन फाटी वळून पळयतां तेन्ना, म्हज्या कामा, शिक्षणाच्या निमतान,  काव्य साधनेच्या निमतान म्हजो ज्या ज्या प्रज्ञावंत, ऋषीतुल्य आनी व्हड काळजाच्या मनशांलागी संबंध आयलो देखुनच हांव हांगामेरेन पावलों, अशें म्हाका कृतज्ञतायेन दिसता; आनी म्हजे एके कवितेचो आदार घेवन म्हणन दिसता :

**एकाच जल्मान दिसता देवा**
**कितलेशेच जल्म जियेलों**
**तुजीच कृपा आसली देखून**
**हांव खंयच्यान खंय पावलों**



"मातृ-कलश",
आल्त - पर्वरी
१५ जानेवारी २००८

# कवी प्रकाश पाडगांवकाराचो ब्रह्मांडयोग

प्रकाश पाडगांवकारांचे कवितेंत सुरवेपासून आतां मेरेन, दोन म्हत्त्वाच्यो गजाली व्यक्त जावपाक लागल्यांत! पयली, उजवाडा खातीर तांची अभीप्सा; दुसरी, अभीप्सेबराबर काव्य-व्यक्तित्वाचें अध्यात्मीकरण. हे भायर 'उजवाड' आनी 'पावलां' ही दोनूय खुबच सांकेतिक आसात, हें मागीर आमकां कळटा. 'उजवाड' हो "तमसो मा ज्योतिर्गमय" हें तत्त्व व्यक्त करता. "पावलां" एका पूर्व निर्धारित (The destined destination) गंतव्य-स्थाना कडे कवीचो जिणे-प्रवासाचो संकेत दाखयता. ह्या प्रवास संकेताचो संदर्भ आमकां आनीक एका महावाक्याची याद करून दिता. तो म्हळ्यार, "उत्तिष्ठत जागृत प्राप्य वरान्निबोधत". हो प्रवास म्हळ्यार "तमसो मा ज्योतिर्गमय" हातुंतल्या ज्योतीकडे कवीन घालपाक सुरवात केल्ली पावलां. तांचो पयलो संग्रह **'उजवाडाचीं पावलां'** हातूंत ह्या अभीप्सेचे मुळावण दिसता. हातुंतल्या तांच्या पयल्याच कवितेचे उद्‌गार पळयात :

**"उजवाडाचें पावल म्हजें काळखा सोपण चडटलें**
**येवं तुफान जावं मोड सहजकायेन परतितलें"**

**'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो'** ह्या संग्रहांत वयर दिल्ल्यो दोनूय गजाली दर एके कवितेंत, चड स्पश्ट रूपांनी दिश्टी पडटना लक्षांत येता.

**'उजवाडाचीं पावलां'** ह्या संग्रहाची तोखणाय करताना १९७५ त बाकीबाबा सारक्या दिग्गजान, बरयल्लें आसा :

*"पाडगांवकारांत प्रतिभा तर आसाच. पुण विशेष संतोषाची गजाल म्हळ्यार तिका ह्या उजवाडाचो ध्यास आसा. ताच्या लेखींचो हो उजवाड म्हळ्यार आमच्या हाडामासांच्या दोळ्यांक दिसता तो उजवाड न्हय. तर उजवाड आनी काळोख, जीवन आनी मरण, प्रेम आनी व्यथा, सुख आनी*

*दुख्ख, ज्ञान आनी अज्ञान, सैम आनी ताचें ऋतुचक्र, वस्तूंचें आकार प्रकार आनी तांचे स्पंद आनी विकार, ह्या सगल्यांची उत्पत्ती, स्थिति आनी लय, ज्याका लागून घडटात तो सनातन उजवाड. तो उजवाड म्हळ्यारच सत्-चित्-आनंद. ... ह्या उजवाडाचो ध्यास घेतिल्ल्या दोळ्यांत साय मांडूंक पावना. ताका लागून नदर निवळ उरता, आनी तिका सायसा बगर सैमाचें आनी जिणेचें रहस्य सहज होलमता... उजवाडाचो ध्यास आशिल्ल्या ह्या कवीक आपली गीतां बरोवंक, एक पान पावचें ना. आनीकय जायतीं लागतली. आनी तांचो प्रभाव एकेच पिळगेर न्हय तर, कांय पिळग्यांचेर तरी पडले बगर रावचो ना, अशी म्हाका उमेद आसा.''*

तांचो दुसरो संग्रह **''वास्कोयन''**. हातुंतल्या कवितांनी ''तमसो मा ज्योतिर्गमयाची'' यात्रा चालूच उरता. आनी तमस हाचे संबंधी कवीच्या मनांत आशिल्लो तिरस्कार सुचयता. तशेंच वास्को शार अशा काळखांत बुडिल्लें आसा, हें कवीचें भाष्य आसा.

**''हांव मनीस अश्वत्थामो''** हातुंतय तांचो ''गन्तव्य स्थानाचो'' सोद अश्वत्थाम्याच्या संकेतांनी व्यक्त जाता. हो सोद हांगा नकारात्मक आसून कवीच्या मनाक मातूय मानवना. अश्वत्थाम्याची वायट दशा बरी दिसना. ते अवस्थेतून ताका भायर सरून ''असतो मा सद्‌गमया'' कडेन वचपाचें आसा. ह्या संग्रहांतले शीर्षक कवितेंत, हें ''गन्तव्य स्थान'' लिपिल्लें आसा, हें हेर कवितांनी सुस्पश्ट जाता.

**''कविता : काळ रेल्वेच्यो, मन हारशांच्यो, पावसा-पाणयांच्यो''** ह्या संग्रहातल्यो कविता, सांकेतिक प्रतीकांनी उलयतात. आपणाले हे यात्रेंत कवीक लिपोवन दवरूंक नाका आशिल्लेंय दिसता.

तांचो फुडलो संग्रह **''सर्ग घडपाक धतरेचो''**. ह्या संग्रहांत कवीक आपणाक पावपाचो जागो (गन्तव्य स्थान) आनी वचपा फाटलो हेतू, उसळी

मारिल्लो दिसता. हे नदरेन ह्या संग्रहांतल्या कवितांचो अव्याहत सोद आमकां कळटा. हो सोद अभीप्सेकडेन वचपाचो, जो कवीची अभीप्सा पुरायेन व्यक्त करता.

**'व्हांवती न्हंय काळाची'** ह्या संग्रहांत कवीची सोद-यात्रा व्हांवते न्हंये भशेन दिसता. पुणून ताचें "गन्तव्य स्थान" आनी थंय पावपाची वाट, अजून अव्यक्तच उरता, जाल्यारय ते गजालींचो आभास दाखयता.

**"ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो"** ह्या संग्रहांत कवी प्रकाशाचो ताच्या यात्रेवरवीं "अमृता"कडेन पावपाचो जागो आनी पावपाचें कारण, ह्यो दोनूय गजाली आपले आपूण व्यक्त जातात. हो तांचो प्रवास **"उजवाडाचीं पावलां"** ह्या संग्रहापासून सुरू जाल्लो. हें नदरेंत दवरपासारकें आसा. तेच बराबर अध्यात्मीकरण हें कवीच्या काव्य-यात्रेतल्यान पयली सावन आरंभ जालें. हाचोय पुरावो विशेशतायेन मेळटा.

हें अध्यात्मीकरण म्हापुरूस आनी योगी श्री अरविंदांच्या चिंतन आनी द्रष्टेपणाच्या मार्गान करपाचो सफल यत्न कवीन ह्या संग्रहावरवीं केल्लो आसा. कवीचो हो मार्ग खुबच कठीण. कारण, महर्षी श्री अरविंदांचे चिंतन आनी दिश्टाव्याचें आविष्करण चड कठीण अशा इंग्लीश भाशेंत आसा. पुणून आमच्या प्रकाशबाबान हें म्हान कार्य कोंकणीतल्यान करपाची सुरवात ह्या संग्रहापसून केल्ली आसा, अशें म्हाका दिसता.

आनीक एक गजाल. तिका म्हज्या मनांत लिपोवन दवरपाची इल्लीय इत्सा नाशिल्ल्यान हांव तिचो उल्लेख करूंक सोदता. ती म्हळ्यार भगवत् गीतेसंबंधी म्हासंत श्री ज्ञानेश्वरान जें कितें सरळ, सोपें आनी सोबीत मार्गान जशें केलें, तशें कवी प्रकाशान ह्या संग्रहांतल्यान महर्षी श्री अरविंदांची तत्त्वप्रणालीसंबंधी करपाचो यत्न केल्लो आसा. हाचो पुरावो पुराय संग्रहांत दिश्टी पडटा.

ह्या संग्रहांतल्या सगल्या कवितांक "श्रीकार" आनी "ॐकार" म्हणप सोबतलें. देखीक ह्यो सकयल्यो कविता घेंवया :

ह्या संग्रहांतली पयली कविता म्हळ्यार "विश्व ब्रह्मांड रचणाऱ्याची" केल्ली प्रार्थना. ही कविता सार रूपान सगल्या संग्रहाचो गुपितार्थ, (ताका आमीं "वागर्थ प्रतिपत्ती" असो संकेत दिवपाक जाय), स्पश्ट रूपान व्यक्त करता. हांगा प्रार्थना करपी मनीस फक्त कवी ना, पूण सबंध मनीसकुळाचो प्रतिनिधी वा पडबिंब आसा. ताका, जणेक मनशाक (बायबलांत Everyman तशें) **"ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाच्या"** रुपान बदलून घेवचें म्हूण तो मागता; "तमसो मा ज्योतिर्गमय" म्हणपाक सांगता:

**विश्व ब्रह्मांड रचणाऱ्या**
**तुजें उजवाडाचें ध्यान**
**चित्त प्रज्ञेन पर्जळावन**
**भर जीण उत्कर्षान**

कवी "विश्व ब्रह्मांड रचणाऱ्या" त्या भगवंताक वर्णितना तो ज्योतीचो उत्सव आसा, इतलेंच न्हय तर तोच उत्पत्ती, स्थिती, लय घडयता. तेच भशेन त्या ब्रह्मांड रचणाऱ्याची ज्योत आनी आमचे भितर आशिल्ली ज्योत एकच आसून ह्या ज्योतीची भेट जावन मदलें अंतर ना जाता, अशें फुडल्या उतरांनी सांगता:

**विश्व ब्रह्मांड रचणाऱ्या**
**ज्योत तुजीच म्हजे भितर**
**ज्योत ज्योतीक भेट्टकच**
**आमचे मदलें सरता अंतर**

हो "विश्व ब्रह्मांड रचणारो" तोच "ब्रह्मांडयोगी चिरंतनाचो" आसा, आनी इतलेंच न्हय तर, तो कवी भितर आसा, तसो तो सगळ्यां भितर आसा. हे तरेन तो "योगी" आमच्या सगळ्यां भितर आशिल्लो मनीस "विश्व ब्रह्मांड

रचणारोय'' आसा देखून कवी म्हण्टा :

हांव ब्रह्म-बीज रुजतां
काळाक भितर उबयतां
सृजन अभीप्से प्रक्रियेक
रसगंधायता ।।

फुडल्या अर्थपूर्ण उतरांनी अभिव्यक्त जाल्या, महर्षी श्री. अरविंदांची म्हान तत्वप्रणाली :

हांव प्रयोगी परार्धांचो
ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो
नव निर्मणे उत्क्रान्त पर्वां
साक्षात्कारायतां ।।

म्हजो किर्णोत्सवी वसो
पडबिंबता प्राणा हारसो
अदृष्ट हांव, अजरंवराची
ऋचा जियेतां ।।

हो ''तो'' जणेक मनशाभितर ब्रह्मांड भरिल्लें रूप जावन आसा, म्हळ्यार तोच ''ईश'' वा ''ईश्वर'' आसा. ''ईशोपनिषदांत'' ताचें वर्णन अशें आसा :

''ईशावास्यं इदं सर्वम्
यत् किंच जगत्यां जगत्''

होच संदेश ह्या कवितासंग्रहाच्या दरेक कवितेंत उपाट अर्थान भरिल्लो आसा. देखीक 'ईश्वरसूक्त'' कविता पळोवया. कवी ईश्वराक लेखून सांगता :

''ईश्वरा, तुवें तुजे इत्सेन घडयलो महास्फोट
आनी निर्मिलें विश्व-ब्रह्मांड
ह्या स्फोटा वरवीं ईश्वरा

**तुजेच जीवसाणीचें अस्तित्व शिंपडून**
**तुवें प्रसयलें चैतन्य**
**व्यापीत अंतराळ अनंततत्व सगळे वाटेन**
**सादयत ॐकार ध्वनी ॐ... ॐ... ॐ....''**

पाडगांवकार दरेक कवितेंत 'ब्रह्मांडबीजा'क वर्णिता हें आमीं पळयलाच. 'ब्रह्मांडबीज', 'बीज मंत्रा' परस विशाल आसा, आनी आध्यात्मिक अर्थान परिपूर्ण. तेच बराबर हांगाय कवी, आमकां खबर आशिल्ली 'Big Bang' चो अध्यात्मिक अर्थ सांगता. विज्ञान सांगता तशें, तो म्हा-स्फोट घडलो ''अणु'' परस ल्हान आशिल्ल्या ''कण''(particle) पसून, आनी पुराय सृष्ट निर्माण जावन, तिचो वायुरूपान आरंभ जालो. ह्या वायूपसून उजवाड निर्मून मुखार हाचे वरवीं उदक प्रसवलें. आनी उदकाच्या प्रक्रियेन आमच्या धतरेची निर्मणी जाली. तेच धतरेभितर ''जीवतत्त्व'' उत्पन्न जालें. हे प्रमाण वायू प्रवाही जालो, आनी घन रूपा पसून सृष्टीची निर्मणी विकसित जावपाक लागली. हें सगळें आमकां विज्ञानान सांगलां. हें ''गूढार्थ गूढतरम्'' गिन्यान, ह्या संग्रहांत स्पश्ट रूपान व्यक्त जाता. अशा जड रूपापासून चराचर प्राणी, तेच भशेन चिंतन करपी मनशाची निर्मणी जाली. हेंच सत ''हांव मनीस सनातन'' हे कवितेंत कलात्मकतायेन व्यक्त जालां. कवी सांगता तशें :

**''सासणाखातीर निर्मणेचो क्रम चलपी**
**हांव मनीस''**

हे ब्रह्मांड रचपी ईश्वर आसाच. पुणून कवीक ताचें हें ब्रह्मांड रचपाफाटलो ''दिश्टांत'' हातासपाक जाय. ते खातीर कवी :

**''खणटा जीव-जिवावळ संस्कृती उत्थानाची**
**बुनयाद**
**सांसपीत अश्मयुगाच्या अस्तित्वतायेची मुळां**
**झंकारायत ध्वनी स्तब्धतायेतल्यान**

आदी-अंताच्यो शिमो रेशो बालांडून
विश्व-ब्रह्मांड निर्मणेचो,
ताच्या निर्मणे फाटलो दिश्टांत हातासपाक''

अशा ह्या मनशाची वळख जावन आसा :

''म्हजो वंश सनातन
म्हजो धर्म सनातन
हांव मनीस सनातन''

असोच गूढार्थ ''जीण म्हजी सनातन यात्रा'' हे कवितेंत व्यक्त जाला, आनी ''हांव कोण?'' हीय कविता तशीच सशक्तपणान भायर आयिल्ली दिसता. ''हांव कोण?''हाचो सोद जणेक तत्त्वगिन्यानी मनशान करून दाखयल्लो आसा. आमच्या भारतांत हो सोद आनी ताचें स्पष्टीकरण वेद, उपनिषद, ब्रह्मसूत्र, श्रीमद्‌भगवतगीता हांच्या काळार घेतिल्लो, आनी तेन्ना सावन हें सोदकार्य चालूच आसा. हालींच रमण महर्षीन पसून हो सोद केल्लो आसा. ''हांव कोण'' हे कवितेंत, कवीक 'हांव कोण?' हाचो दिश्टावो जाता तेन्ना तो म्हणटा :

''हांव जेन्ना जालों
एकरूप ह्या हारशांतल्या मनशाभितर
तेन्ना लागलों विरगळपाक चराचरांत
अणुरेणूंचे सुक्ष्मतायेन
सगळें म्हजे भितर आसपावन घेत

आनी हे अवस्तेंत
जेन्ना हांवें पळयलो म्हाका
म्हज्या अस्तित्वरूपी काळजाच्या
हारशांत
''देवा म्हज्या''

तेन्नाच म्हाका जाली म्हजी खरी वळख
आनी कळ्ळें ''हांव कोण?'' तें''

अशे तरेन कवी आमकां आमीं आनी ब्रह्मांड वेगळें ना अशें सुचयता. प्रस्तुत कवितासंग्रहाचें नांव पसून कवीन चड करून हेंच सुचोवपाचो यत्न केला. हातुंतलें ''चिरंतन'' हे उतर अशे नदरेन खुबच म्हत्त्वाचें आसा.

थोडे भितर सांगपाचें जाल्यार, म्हापुरूष महर्षी श्री अरविंदान, जी तत्त्वप्रणाली हजार हजार पानांच्या ग्रंथानी सांगल्या, तीच उत्क्रान्ती आनी सृष्टिरहस्य कवी पाडगांवकारान आमकां आमच्या सोप्या कोंकणी भाशेंत प्रभावीपणान अभिव्यक्त केलां. अशेंच म्हानकार्य साबार व्हड संतश्रेष्ठीनय केल्लें आसा, हें आमकां खबर आसा. खूबच कठीण आशिल्ली मूळ ''भगवत्गीता'' आनी तातूंत अभिव्यक्त जाल्ले तत्वप्रणालीक संत म्हापुरूस ज्ञानदेवान ''ज्ञानेश्वरी''त सोपे उतरांनी विस्कटावणी करून सांगल्या. तशेच तरेचो हो कवी प्रकाश पाडगांवकाराचो वावर, हें म्हाका नमूद करीन दिसता. हांवें अशें म्हणप कोणाकय अतिताय दिसूं येता, हें हांव जाणां. पुणून म्हजे भशेन भौ. रवीन्द्रबाब केळेकारासारक्या दिग्गज चिंतनकारानय १९९० त ''सर्ग घडपाक धर्तरेचो'' ह्या संग्रहावेळार फुडले विचार उक्तायल्ले:

*''कवी प्रकाश पाडगांवकार 'भविष्याचो द्रश्टो कवी. पाडगांवकार वाडत गेला तसो जिवितांत खोल खोल देंवतूय रावला.*

*पाडगांवकार श्री अरविंदांचो भक्त. ताच्या भितरल्या जिविताचेर-इनर लाइफाचेर- चडांत चड प्रभाव कोणाचोय पडिल्लो आसत जाल्यार तो श्री अरविंदांचोच पडला म्हणूंक जाय.*

*आनी श्री अरविंदाचो भक्त कवी आसलो जाल्यारूय तो निखटो कवी उरना, तो साधक जाता, असो अणभव आसा. तो साधना फकत कवितेची करून धादोसभरीत जायना, तो जिविताचीच साधना करीत रावता. ...*

*जिविताचो साधक कवी जिवितांत चडांच चड खोल देंवत रावता; जितलो अदीक खोल देंवता तितलो अदीक तो "आस्तिक" जावन वयर सरता...*

*उत्क्रांतीची प्रक्रिया ह्या मुखारूय चलपाची आसा अशें श्री अरविंदाभाशेन विज्ञानूय आतां सांगपाक लागलां. मुखावयले उत्क्रांतीचे उक्तावणेक आतां मनशाचो हातभार लागूंक जाय, अशें म्हणपाक लागलां. Thought is product of evolution. Thought has to act now as an instrument of future evolution अशें तैदार दू शार्दा तर स्पस्टूच सांगपाक लागला.*

*पाडगांवकाराले कवितेंत हो उलो स्पष्ट बरो आयकूंक येता. ताचे कवितेची आतां मेरेनची गती आनी प्रगती पळेल्या उपरांत ताचे लिखणेंतल्यान* ***"सावित्री"*** *सारकेलें काव्य अवतरलें जाल्यार म्हाका अजाप दिसपाचें ना. हो कवी धतरिचो सर्ग घडपाकूच जल्मा आयला. ताका* ***भविष्याचो दिश्टावो*** *घडला."*

**"ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो"** ह्या संग्रहांतल्या जवळ जवळ सगल्या कवितांनी आमकां दिव्यतायेचें दर्शन घडटा. हें सत अणभव करपाक आमीं कवी प्रकाश पाडगांवकाराच्या ह्या संग्रहांतल्या कवितांचो पुराय अर्थ समजून घेवंक जाय. ह्या कवितांचे अर्थ विस्कटावणेचें म्हत्वाचें कार्य आमच्या कोंकणी साहित्यांतल्या जाणकार विमर्शकांनी करपाची गरज आसा; तशेंच तांच्या काव्य व्यक्तित्वाची Research Study करपाचें कार्य आमच्या भाष्यकारांचें आसा.

निमणें म्हाका बाब प्रकाशाच्या सगल्या संग्रहांच्या बाबतींत मुजरत सांगपाचें आसा, तें म्हळ्यार, ताच्या दरेक संग्रहाची समाप्ती उकत्या शेवटाच्या रूपान आसता. जाका आमी उकतो शेवट म्हणुया. म्हळ्यार कवितासंग्रह

सोंपलो तरीय कवीक आनीक हाचे फुडेंय सांगपाचें उरला हें सुचोवपी आसता.

हाचें कारण, पाडगांवकारान आता मेरेन **"असतो मा सद्गमय"** आनी **"तमसो मा ज्योतिर्गमय"** हे संबंधी सगळेंच स्पश्ट केल्लें आसा. पुण उपनिषदाच्या शांतिमंत्राची शेवटाची उक्ती उरलेली आसा, ती म्हळ्यार **"मृत्योर्मा अमृतं गमय."** हो आदेश मनशाक वेदा भितरय केल्लो आसा. तशेंच सगल्या मनशांक **"अमृतस्य पुत्राः"** अशेंय वेदाभितर वर्णित केलां. हेच प्रमाण श्री अरविंदानय म्हणिल्लें आसा:

**"देवान आमकां निर्मिलां देखून**
**आर्मींय आमचे पसून देवाक निर्मूंक जाय"**

हें कशें करप, हें सांगताना श्री माताजीन "Caterpillar and Butterfly" हाचें सादृष्य दिल्लें आसा. जशें एका किड्याचें समग्र रूपांतर सोबीत फुलपाख्यान जाता- तो किडो मागीर "Monarch Moth" जाता. तेच भशेन आमच्या कवीक Caterpillar सावन Butterfly जावपाची प्रकिया सांगपाची उरिल्ली आसा. हेच म्हत्त्वाचे नदरेन प्रकाशबाबाली फुडली प्रगती **"अमृततत्त्वान"** अवसान जावंक जाय. आनी ते खातीर प्रकाशाची फुडली काव्यनिर्मिती चालूच उरूंक जाय. ते मेरेन ताका चलपाचेंच आसा आनी हांव म्हणटा "बाब प्रकाश तथास्तु!"

**डॉ. एस. एस. कुलकर्णी**

ताळगांव-गोंय,
विजयादशमी,
आश्विन शुक्ल १० शके १९२९
ऑक्टोबर २१, २००७

*(डॉ. कुलकर्णीची वळख पान १११ चेर)*

## प्रार्थना

विश्व-ब्रह्मांड रचणाऱ्या
तुजें उजवाडाचें ध्यान
चित्त प्रज्ञेन पर्जळावन
भर जीण उत्कर्षान

विश्व-ब्रह्मांड रचणाऱ्या
ना गा तुका आरंभ अंत
कितलोय काळ व्हांवलो तरी
नवो ताल्ल तूं अविनाशवंत

विश्व-ब्रह्मांड रचणाऱ्या
भरला तूंच वचत थंय
तुजेच ज्योतीचो उत्सव
मनयत उत्पत्ती, स्थिती, लय

विश्व-ब्रह्मांड रचणाऱ्या
तूंच ज्ञाना विज्ञाना गती
काळा कुसव्याच्यो वेणो
मारता पावलां उत्क्रान्ती

विश्व-ब्रह्मांड रचणाऱ्या
ज्योत तुजीच म्हजे भितर
ज्योत ज्योतीक भेट्टकच
आमचे मदलें सरता अंतर



# ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो

हांव ब्रह्म-बीज रुजतां
काळाक भितर उबयतां
सृजन अभिप्से प्रक्रियेक
रसगंधायतां ॥

म्हजें अद्वितीय स्वत्व
अनादी-अनंत अस्तित्व
विश्वाची सजिल्ली पालखी
सजयत रावतां ॥

हांव प्रयोगी परार्धांचो
ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो
नवनिर्मणे उत्क्रान्त पर्वां
साक्षात्कारायतां ॥

म्हजो किर्णोत्सवी वसो
पडबिंबता प्राणो हारसो
अदृष्ट हांव, अजरंवराची
ऋचा जियेतां ॥

❑❑❑

## ईश्वरसूक्त

ईश्वरा, तुवें तुजे इत्सेन घडयलो महास्फोट
आनी निर्मिलें विश्व-ब्रह्मांड.
ह्या स्फोटा वरवीं ईश्वरा
तुजेच जीवसाणीचें अस्तित्व शिंपडून
तुवें प्रसयलें चैतन्य
व्यापीत अंतराळ अनंततत्व सगळेवाटेन
सादयत ॐकार ध्वनी ॐ....ॐ.... ॐ....

ईश्वरा, हो महास्फोट घडोवचे पयलीं
तूं आदिशक्तीचो पुंजो आसलो
सगळें व्यापून निर्गुण निराकार
शान्त निचेश्ट पडिल्लो
भितरले भितर जागयत स्फोटक उर्जा
जाचो घडोवंक महास्फोट तुजेच इत्सेन.
देखून कोणाक थाव ना लागपी हे घडणुकांचो
तूंच धनी आनी तूंच शिल्पकार.

ईश्वरा, तूं सर्वव्यापी सर्वसमावेशक
तुवें हें विश्व-ब्रह्मांड निर्मून
लायली चालीक तुजी अखंडित प्रयोगशाळा
तुजे लागीं कोणेय जोडूं येता नातें
भक्ती ध्यान चिंतनावरवीं.
ईश्वरा, सगळे मनीसजातीक
एका धाग्यान बांदून दवरपासारको
तुजे निर्मणेचो स्रोत.

ईश्वरा, तूं आसा भरिल्लो
इल्ल्याशा सुक्षीमांत
तशेंच विपुल स्थूलतायेंत.
तुजी लीला अगाध
तूं मनयता अजरंवर काळ-सुवाळे
ऋतू-पर्वांचे बदलीत भेस
अखंडित पोसपी पृथ्वीक गाबणी दवरून
रोसा-रूचिंच्या पिका-पिकांनी युक्त.

ईश्वरा, तूं जाता पर्गट
शून्यांतल्यान आवयांच्या कुसव्यांत
जल्मत रावतल्या भुरग्यांच्या
निश्पाप निरागस हासपा रडपांत.
तूं जाता मुक्तिदातो
भोवंडी सोंपोवन परत
शून्यांत वतल्या मनशांचो.

ईश्वरा, जेन्ना वारो
निर्जीव न्हिदिल्लो
तुज्या अंतराळ पोकळसाणीच्या कुसव्यांत
तातूंत तुवें प्राणवायुचें रसायण भरसून
मंत्रायल्ल्यावरी ताका
दवरलो व्हांवतो शुद्धतायेन
सदाकाळाखातीर.

ईश्वरा, तूं रातीचो बिण्ण काळोख जावन
आरंभता तुजी भोवंडी
नखेत्रांच्या माणकां-मोतयांनी

फुलोवंक फांतोडेची
जिवीं फुलां म्होवा-रोसांची
जाचेर आसा अधिष्ठान चिरंतन काळाचें
बावून झडटना फुलपाच्या  आशिर्वादाचें.

ईश्वरा, तूं तुजे कार्यकुशलतायेन
गुरूत्वाकर्षणान अणुरेणूंक तुजे उबेंत दवरून
दाखयता तुजी करामत.
ईश्वरा तूं जाता जीवदान पिडेस्तांचो
वैजांच्या शल्यचिकित्सायेवरवीं.
तूं जाता निर्मातो काळाच्या गरजेप्रमाण
नवनिर्मणेक जल्माक घालतल्या
शास्त्रज्ञांच्या अगाध सुपीक कल्पनेवरवीं.

ईश्वरा, तूं जावन महामंत्र निर्मळकायेचो
जाता पर्गट कश्ट करतल्यांच्या हातांनी
जे नितळसाण हाडीत
वावुरतात ना करूंक
कोयर, गटारां, घाणीं गुठ्ठाणींच्यो राशी.

ईश्वरा, तूं कितलो दयेस्त
आनी कितलो मायेस्त.
काळजा थावन तुजी भक्ती करतल्यांच्या
तूं सांगाताक आसता.
तूं आसता तांच्या स्वासा उस्वासा कणकणीं
तुज्या अस्तित्वाची सुलूस दाखयत
तांचे भितर जावन ज्योत पर्जळटी.

ईश्वरा, तुजो न्याय-निवाडो
समान सगळ्यांक
कसलोच भेदाभेद नाशिल्लो
तूं तुजेलागीं आसा ते वैभव
सगळ्यां मुखार उकतें दवरता.

तशेंच तूं कसलोच आडपड्डो दवरिनासतना
तुजें ल्हार हुंवाराचें, हुलप दुकळाचें,
ज्वालामुखी, भुंयकांपाचें भोंवडावन एकाच मापान
सगळें तुज्या पोटांत घेवन
वसयता सहज आविश्कार
उत्क्रान्तीचो नवनिर्मणेखातीर.

ईश्वरा, तूं नित्यनवो जल्म घेवन
नवोताल्ल खिणाखिणाक.
तुका लागना काळ गणना,
तुका काळ आफुडना,
तूं काळाक आफुडना.

जाल्यारय तूं काळाक आपणावन
अनंत सहस्त्रकांच्या काळा-पाळण्यांत
आसता धोलत
भोगीत चिरंजीवी
तुवेंच निर्मुन पातळायल्ली
तुजी विस्मितायेची निर्मणी.

❑❑❑

## हांव कोण?

भुरगेपणीं म्हाका कळूंक लागलें
तेन्ना सावन
हांव पळयतां हारशांत
जातूंत म्हाका
दिसता एक अनवळखी मनीस
आपलें रूपडें बदलत राविल्लो

हांवें एक दीस
त्या मनशाक विचारलें:
"आरे तूं हारशांत रावन सतर्कतायेन
कित्याक दवरता म्हजेर नदर
एकसारकी चुकय नासताना
हांव म्हजेभितर गुल्ल जावन जियेतना?"

तेन्ना ताणें म्हाका सांगलें :
"हांव तुजें अस्तित्व आनी
तुज्या अस्तित्वाचें सपन
हारशांत रावन तुका सांगात दीत
तुज्या सांगातान
एक दीस भंगून नाच्च जातलों"

हांवें त्या मनशाक सांगलें :
"तशें जाल्यार म्हाका करूं दी
तुज्या अस्तित्वाची पारखणी
आनी करून घेवन विस्कावणी
एका एका आंगाची चिकित्सायेन
घेता करून तुजी पुराय वळख"

हाचेर ताणें सांगलें :
“तशें जाल्यार म्हज्या इश्टा
तूं यो म्हजे भितर
आनी कर तुजी चिकित्साय,
ते खातीर हो पळय हांव जाता
पुरायेन तुजे सुवादीन”

मागीर हांव ह्या हारशांतल्या मनशाची
लागलो करूंक तपासणी स्वतंत्रपणान
तेन्ना अजाप त्या मनशाची साबार आंगां
एकामेकांलागीं लागलीं वागपाक
तिरायत कशीं
विसरून आपली रगताची नातीं

फुडें जागरूकतायेन
हांव जेन्ना जालों
एकरूप ह्या हारशातल्या मनशाभितर
तेन्ना लागलों विरगळपाक चराचरांत
अणूरेणूंचे सुक्ष्मतायेन
सगळें म्हजे भितर आसपावन घेत

आनी हे अवस्तेंत
जेन्ना हांवें पळयलो म्हाका
म्हज्या अस्तित्वरूपी काळजाच्या हारशांत
“देवा म्हज्या”
तेन्नाच म्हाका जाली म्हजी खरी वळख
आनी कळ्ळें “हांव कोण?” तें

□□□

# प्रकृती स्वरूपा

म्हजो स्वास जावपाक वातावरणांत जो वारो आसता
तो येता विशाळ दोंगर दर्रीतल्यान मुक्त भोंवून
गच्च पांचवेचार रानां जंगलांनी पासयो मारून
मळबाच्या उकत्या पोकळसार्णीक स्पर्श करून
वत चान्नें काळखांत ऋतूंचेर मनसोक्त भिजून

तानरूपी उज्याचें आगटें पालोवपाक जें उदक हांव पियेता
तें येता दोंगर माथ्यार अनवाळें व्हांवून पवित्र दूदाभशेन
व्हाळ, झरो वझऱ्याच्या रूपान संगीतान नाचत खळखळत
रंगांच्या परिमाणां सूर्य किरणांची ऋचा पचोवन
काळखा चान्न्यांत आंग मेकळे सोडून भयाविरयत आतुरतायेन

म्हजी पांच इंद्रियांची भूक भागोवंक हांव अन्न जेवतां
तातूंत परब्रह्माचो संदेश म्हज्या रगतालागीं नातें जोडून
युगायुगांचो साक्षात्कार नदरेमुखार चलचित्रशें भिरभिरायता
हांव अन्न जेवतां तें आसता पृथ्वीच्या निर्माण प्रक्रियेचो प्रसाद
जो सेवन करतकच हांवय जाता प्राण जागोवपी प्रकृती सृजनकार

❑❑❑

## दिश्टावो सर्वज्ञ सासायेचो

जाला म्हाका दिश्टावो सर्वज्ञ सासायेचो
जाची विशालकाय रावल्या दिगंत व्यापून.
ताच्या सुर्यवर्खी सांगाताच्या वातावरणांत
जीण नव्या सपनांतल्यान जागी जावन
उस्फुटता म्हज्या अस्तित्वाचे परिमाण

ताच्या स्पर्शान जावन सताड उकती
फिशालकाय क्षितिजरूपी रंगयाळ्या विस्ताराची
जिणे नदरेक किर्ण-तासांरुपी मोरपाखांचें तेज चडून
आवळून येवन एकवट्टात सामकीं आशिकुशीक
ऋतू वैभवाची पिकां काडीत रावपी साम्राज्यां

जाला म्हाका दिश्टावो सर्वज्ञ सासायेचो
जो म्हजो जिणे ग्रंथ बरयता सुवर्णाक्षरांनी
आपणाल्या सुपीक आदेशाच्या कुरवांनी
मौनाच्या अधिराज्याची किरणां झंकारायत
फुलयत चिरंजीवी सोबीतकाय प्राणांत

मुखार साकारिल्ले दोंगर आडखळींचे
ताच्या एकाच इशाऱ्यान सहज वता हुपून
आनी पिकिल्ली अरिष्टां आपशीच विरगळून
भोगता ताटांत येवन पडिल्लीं तृप्त वैभवां
आसक्तीविण ल्हवल्हवसो फुलून फुलत रावपाक

❑❑❑

# ईश्वराचें भिंग

निराकार-ईश्वराचें जिवें चुंबक्रियेचें भिंग
तातुंतल्यान प्रकटला लख्ख ब्रह्मांडाचें बिंब
हें बिंब परावर्तीता सजीव चित्रां तासा-तासांची
जल्मून अचळय विस्तारतल्या आकाशगंगेची
जाका सांगात कालातीत चैतन्यशक्तीचो

ह्या भिंगाचो घेवचो थाव एकचित्त एकाग्रतायेन
भितर थिरायत भव्य अंतराळ दिव्य महासागर
किर्णां शिंवरावपी माणकां-मोतयांचे विशाल दोंगर
अलंकारानी शिंगारिल्ली, शुद्धतायेन फळून पिकिल्ली
झाडापेडांची नटून थटून सजिल्ली कलाकुसर

ह्या भिंगातल्यान चिरंजीवी अष्टतासी रंगी-उजवाड
जाता कोटी सुर्यांचें आगटें ब्रह्म निर्मणेच्या रसायणाचें
जें जिवावळींचें काळ प्रसवणे शक्तिप्रवाह पेरून
भोगयता निराकार ईश्वराचे नवे आविश्कार कल्प-कल्पांतराचे
जे जिवेताल्ल सासणाखातीरच्या आदी-अंताच्या प्रक्रियेचे

❑❑❑

# अनादी अगम्य परतत्त्व

अनादी अगम्य परतत्त्वांतल्यान
म्हजे मेरेन पाविल्ली ही
रंगरंगयाळ्या लखलखीत दिव्यांची रांग.

ही रांग एका एका दिव्यांक
क्रमाक्रमान पेटोवन
आनी फाटल्यान एका एका दिव्यांक
पेटपाच्या तयारेंत दवरून
गेल्या शेणून वयर
अनादी अनंत परतत्त्वांत

काळाच्या हुबंतराचेर
ह्या दिव्यांक अखंडीत पेटत दवरून
सृजनाची अजापां करपी
हो कोण अनामिक कलाकार?

ह्या दिव्यांची जिवसाणीची ऊर्जा
पातळायता म्हजेर चुंबकीय किरणां
आनी हांव हालून जाता
ऊर्जेचो सृजनकार
सैम-सृष्टीक लसलसत दवरपी.

हो अनामिक कलाकार
अनादी अनंत परतत्त्वांतल्यान
एक एक उत्क्रांत दिवो पेटोवन
घालता उत्थानाचें उमाणें
जाची जाप तोच जाणां.



# मन ब्रह्मांड

मन ब्रह्मांड उंचाय
मन ब्रह्मांड खोलाय
मन अनंत अमाप
मन चैतन्य निळाय

मन प्रार्थनेचें घर
तातूंत तल्लीन देव
परब्रह्माची करणी
जो नियंतो एकमेव

उत्क्रान्त-उत्थाना धागे
विणटा वस्त्र जिणेचें
प्राक्तनाचें भांडवल हें
जिणे वैभव नवलायेचें

सैमसृष्ट चराचर जिवें
ही ताचीच गा सासाय
आपुणूच आपल्याचो
आसता खरो गवाय

खीण खीण योगब्रह्म
जाल्या कूड उत्तेजीत
आता उणें कांयच ना
हांव म्हाकाच भोगीत



## म्हजी वळख

अनादी काळासावन
उत्क्रान्तीच्या चाकाचेर स्वार जाल्लों
वर्तमानाचेर तासां मारीत
अनंतकाळामेरेन पातळिल्लो
हांव जिवात्मो सनातन
म्हजी वळख सनातन
म्हाका पाचारात म्हणून
मनीस सनातन

❑❑❑




# हांव मनीस सनातन

सासणाखातीर निर्मणेचो क्रम चलपी
हांव मनीस
खणटा जीव जिवावळ संस्कृती उत्थानाची बुनयाद
सांसपीत अश्मयुगाच्या अस्तित्वतायेची मुळां
झंकारायत ध्वनी स्तब्धतायेतल्यान
आदी-अंताच्यो शिमो रेशो बालांडून
विश्व-ब्रह्मांड निर्मणेचो,
ताच्या निर्मणेफाटलो दिश्टांत हातासपाक.

म्हजे पंचप्राण पारदर्शकावरी तिकतिकावन
हांव म्हाकाच लागता वळखूंक :

म्हजो वंश सनातन
म्हजो धर्म सनातन
हांव मनीस सनातन

❑❑❑

# जीण म्हजी सनातन यात्रा

हांव मनीस सनातन
जीण म्हजी सनातन यात्रा.

हांवें सोपयला म्हाका
पृथ्वीच्या सृजन निर्मणेंत
विरगळायला समर्पणाच्या आनंदकोषांत.

संकुचीत विचारसरणेचें डबकें
आटोवंक घालून
भोवंडी आरंभल्या
भायल्या भितरल्या
ब्रह्मांड विस्तृततायेच्या विस्तारणेंत.

जातूंत सत्-चित्-आनंदाचे
म्हासागर विस्तारिल्ले
जंय निर्मून निर्मल्लें सगळें
निर्मणेखातीर.

हांव मनीस सनातन
जीण म्हजी सनातन यात्रा.

❑❑❑

## कोण असो हो

सैम-सृष्टीचो स्वास उस्वास तूं
जीव जिवाणूंक प्राणायता
हो वारो तूं अदृष्य रचणारा
खंय कसो निर्मिता

तेजाचें उत्सर्जन करपी
तूंच सुर्याचो प्राणात्मो
ताऱ्यां-गिऱ्यांचो पुंजो आशेता
घेवंक तुजो उबेचो उमो

फुलत्या ऋतूंची उडटी शेवणीं
आंगार तांच्या रंगी पिकां
जोरगतीचीं सुकती भरती
धोलता माळून काळा थिकां

म्हजे कुडीची ज्योत तेंवता
वात ताची कोण सारता?
हांव जाणां कोण असो हो
म्हाका एकसारको पोंशेता

❑❑❑

# दिव्य विचार

म्हज्या अंतरात्म्यांत मंत्रून फुलिल्ले
दिव्य विचार दिता सोडून
अंत्राळाच्या थराथरांत
रावूंक थंय अधांतरी
ट्रान्समिटींग स्टेशन जावन.

आनी ह्या विचारांचे चॅनल्स
दवरता उकते कार्यान्वित
जाय तांका ते
रिलेय करून घेवपा खातीर
आपणाल्या रिमोट कंट्रोलावरवीं.

अंनततत्त्वाच्या अस्तित्वतायेचें भान आशिल्ले
म्हज्या अंतरात्म्यांत दीपस्तंभ कशे
मंत्रून फुलिल्ले दिव्य विचार
अंत्राळांत अधांतरी
सोडीत जिव्यो ध्वनिलहरी
जावन हुमकळटे ट्रान्समिटींग स्टेशन.

❑❑❑

# काळोख आनी उजवाड

उजवाडाची किरणां येवन पडटात
चिंतन-भिंगाचेर सगळे वटेनच्यान
आनी अस्तित्वच जाता तासा-तासांचें
तना मनातल्यान परावर्तुन
वज्रकिरणांचो शिंवर
ना करूंक
काळोख : भोंवतणचो
काळोख : भितरलो

संत महंत वावुरतात
जिणेतलो काळोख विरगळावपाक
जो फकत
उजवाडाक भियेता

काळोख जांव भितरलो वा भायलो
अजापी घटक
रावता वेटाळून
पुण वेटाळना
पारदर्शक जाल्यारय
अस्तित्व नाशिल्लोसो

आता काळोख
उकतो जावन विस्तारायता
लखलखून पर्जळपी
अमर्याद उजवाडाची गुपितां
सुटावी करीत

ह्या काळखाचेर आतां
जावंक लागल्या प्रक्रिया
मुदार जावन ताचें अस्तित्व
चडून झिळमिळटें रसायण
चैतन्य शक्तीचें

ह्या वज्र-किरणांचो प्रभाव
खिणांत काळोख वितळावन
करता उत्सर्जीत
उजवाड तासा-तासांचो प्रज्ञावंत
मनां-काळजां जोडपी

आनी ताच्या सांगातान
हांव भुंयेर शिंपडीत वता
वज्र-फुलां रंगा-रंगांची,
जिणे-फुलां मनीसकायेची

❑❑❑

# विचारांची दिवटी

किल्लतल्या उदात्त
विचारांची दिवटी घेवन
आसता हांव भोंवत
म्हज्यातलो भायर सरून
करीत नोंद म्हजी कागाळ

रस्त्यांचेर शाश्वत मुल्यांची पावर्णी चलतना
बाजारपेठो भरून
प्रतिभेच्या जायरातींचो सौदो रंगतना
फुडाऱ्यांची हुकूम सोडपाची कूय
सोसूंक जायना तेन्ना
दिवटी म्हजी थंय पर्जळायता समजिकायेची

कोण म्हण्टा आमची संस्कृताय पोसल्या
महात्म्यांच्या पावलां-कुरवांच्यो
प्रतिकृती करपांत
आनी आमकां फकत
मळबाक थिगळ्यो लावपाचीच संवय?

किल्लतल्या उदात्त विचारांची दिवटी घेवन
घेता सांठोवन म्हजे भितर
रातीच्या कुसव्यांतल्यान जल्मून विश्वाक पर्जळायतल्या
उजवाडाच्या तेजवंत स्वयंभू गुळ्याक
जाचेरूच आसा पातयेवन
जिणेच्यो सगळ्यो वाटो उकत्यो करपाची चावी

❑❑❑

# जातिमाहात्म्य

सुर्या भशेन स्वतेजान लखलखून
विचारांचो भांगरा-पावस शिंवरीत
जण एका मनशान आपुणूच आपलो धर्मगुरू जावन
आपले जाती-कुळाचो स्वाभिमान बाळगून
ताठ मानेन जियेवंक शिकूंक जाय
आनी आपल्यांक - पेल्यांक प्रेरणा दीत
समानतायेचो वर्षाव करपाक जाय.

जाती हे मनशांनी निर्मिल्ले पावंडे
जे जण एका मनशांत आसतात आसपाविल्ले.

जेन्ना एक मनीस ब्रह्म विचारांची पोसवण करता
तेन्ना तो जाता ब्राह्मण,
तोच संरक्षणाखातीर छातयेची ढाल करता
तेन्ना जाता क्षत्रिय,
चरितार्थ चलोवपाक दिवपा-घेवपा-विकपाचो
वेव्हार करता तेन्ना तोच जाता वाणी,
तोच हलकें फुलकें काम करता
तेन्ना जाता शुद्र.

घर आंगण, कोयर उश्टें काडून
भोंवतण निवळ करता
तेन्ना तोच जाता म्हार.
आपल्या आंगाची म्हेळी चामडी

न्हांवन धुवन नितळ करता
तेन्ना तोच जाता चामार.

जेविल्ल्या अन्नाचो विलो लावपाक
आपलें पोट झोळयो आनी
कुडीची भौमालादीक णव दारां
अंतरंगांत ब्रह्म जागोवपाक
नितळ निवळ करता
तेन्ना तोच जाता मूर्तिमंत भंगी.

एका मनशातच जंय
ताच्या सदचे जिणेंत
साबार जातींचो पुरायेन आसपाव
थंय ताच्या भोंवतणच्या समाजांत
कोण उच्च आनी कोण उणाक?



## कुरूक्षेत्र

जल्म-मर्णाच्या कुरूक्षेत्रार उदेल्ली
काळपुरसाची उत्क्रान्त पावलां
सुचयतात मनीस जिणेचें निमणें जैत.

सुर्यय पर्जळटा करून पेरणी उजवाड-वर्सांची
आनी दिता आस्वासन
विस्तारत रावतल्या ब्रह्माड-ब्रह्मांडांची.

❑❑❑

# महोत्सव चंद्र पुनवेचो

महोत्सव चल्ला चंद्र पुनवेचो
धतरिच्या तासां-भिंगाचेर
किर्णोत्सवी सृजन-सुवाळो
मन-दिगंत विस्तृततायेचो

चंद्र पुनवेच्या भारा घोंसार
दोळ्यांक धुंदी अलौकिकाची
चिरंतनाच्या वाटेर रकल्या
धार लिकलिकीत दूदगंगेची

❑❑❑

## दुर्बीण

भोंवता घेवन हांव एक अद्भुत दुर्बीण
करीत जाय तेन्ना
पयसुल्ल्यो वस्ती लागीं
वा लागीच्यो पयस

दवरता हे दुर्बीणीवरवीं
नदर ताऱ्यां गिऱ्यांचेर
नियाळीत तांच्यो हालचाली
ते पृथ्वीचे दायजी देखून

पळयत धरून उरफाटी दुर्बीण
हिंस्त्र जनावरांक करता इल्ली इल्लीशी
आनी तांकां मनशाळायत
सांगाताक घेवन भोंवता

पळयता हे दुर्बीणीवरवीं
व्हांवती न्हंय काळाची
आनी अदिश्ट पावलांनी संचारपी
ऋतूंचे अजरंवर मेळ

हे दुर्बिणीचेर चडोवन
भिंग मनाचें केन्ना केन्ना
म्हजें अस्तित्वच विरगळावन
रावता हांव पातळून ब्रह्मांडभर



## सैमाचो केन्वास

निळ्या मळबाचें जाळें
रानांची पांचवी क्रांती
मळबा कुसव्यांत वारो
सारीत सुगुर्व्याच्यो ज्योती

सैमाचो जिवो केन्वास
रंग आपणावन विशाळटा
महाकाय सावळी कोणाची
थंय आपुलकायेन वावुरता?

नटून दिगंताच्यो रांगो
पखवाजाचे सूर व्हांवले
कृतार्थताये न्हंय भेटून
जागले म्हादर्या दुवाळे

चौघुड्याच्या सुरार धोलत
नखेत्रांची पालखी गेली
रथांत बसून सुर्यदिवान
उजवाडाची वर्सा पेरली

सासणाच्या मोगापासान
शुद्धताये व्हांवलो थर
जावन विचार मुक्त विशाल
गाबणें जाला एकेक उतर



## ध्यान

नदरेतल्यान नखेत्रांच्या पनेळांक सोडटा
फुलतल्या फुलावांगडा पर्मळान न्हाता

ब्रह्मांडाची विशालकाय भितर साठयल्या
नवी विश्वां दिश्टाव्याची जल्मूंक लागल्या

मनाभोंवर मुक्त भितर लख्ख लिकलिकतो
सुपुल्ल्या बियेंत न्हिदला काळखंड फाल्यांचो

❑❑❑

## पालखी

जीण म्हजी शेत पिकाळ
उतर सृजन मळब विशाल
व्हांवुन गिरेस्तकायेचे संगीत
लागता पृथ्वीक मोहजाळ

म्हौंवा वासा नदरे तारूं
दिकादिकांक ल्हारायता
सुर्य ऋतू चक्रावेलो
पिकां उत्सव मनयता

बोटां ल्हवपिक जादवा कांडी
तोलता नखेत्रांची ऊर्जाय
अणभुतीचे निसणीवेल्यान
मेजता सर्गाची उंचाय

रातकाया अप्सरेची
नाचून उजवाड पिकयता
दूदगंगे ओतो रकून
अदृष्टाची पालखी सजता



# कुरू

भर पावसांत
तेर्रासाच्या सिमेंट कॉंक्रेटीतल्यान
उदक पाजरता
ही कसली कुरू?

ही कुरू विकासाची
विनाशाचें लक्षण दाखोवन
काळाक व्हांवतो दवरपाची
मातयेक पर्तुन
जिती करून
उत्क्रान्तीचो क्रम चलपाची

❑❑❑

# देवमनीस

केन्ना केन्ना देवमनीस रस्त्यारच भेट्टात
वचूंक सरिल्लो देवळांत अचकीत विसरायतात

सादे सात्वीक देवमनीस गिरेस्तकायेची खण
मनीसकायेन मन भारून विरगळायतात हांवपण

हांचे ठांय माये पाझर, सतत अमृताचो शिंवर
रावला जसो रूखा सावळेक उतरांक थिकां सर

पंचमहाभुतांचे अर्क हेच मुखार साक्षात
मनीसजीण भोवमोलाची विराट ब्रह्मांडांत

❑❑❑

## प्रज्ञावंत मन

नदरेमुखार विस्तारिल्ली ब्रह्मांडाची दारां
प्रज्ञावंत मन ओडटा अनंततायेची दोरां

ओंठातल्यान एकेक उतर मळब ॐकारायता
बिंब म्हजें निराकाराक सोदूंक पैसावता

देहा ऊर्जा रसण प्रक्रिया मनां-ऋतूंक फळां
बिये बियेंत उजवाड प्रसवण रुजयताना मुळां

नदरेमुखार विस्तारिल्ली रसणायेची चित्रां
सासणाखातीर हीच जातात मुळावणेची स्तोत्रां



## पृथ्वी-पुराण

पृथ्वी एकसारकी सोंशीत आसा
आघात मनशांचे नाड-बुद्दीचे
मनशांच्या मनीसघाण्या कर्तुबांचे

सृजन-उत्क्रान्तीचो खजिनो प्रसवपी पृथ्वीचेर
जालो पर्तुन हुयेली हुस्काराचे विकळाप सादोवपी
दुखदिणो आकांताळो स्फोट

आनी राकेशी उज्यांचे लोळ
जीव-जिवावळ भकीक घालीत
गेलो अनंततायेच्या विस्तृततायेंत
घेवन मनशांची रानवटीपणाची कुरू

ह्या आकांताळ्या स्फोटाची
निनादत राविल्ली स्फोट-कंपनां
अंतराळाच्या निस्तब्धतायेंत परावर्तून
मनशांच्या मनीसपणाक लागल्यात धोंगसूंक

हे धुमसणेतल्यान उपजत जाल्यार
सासायेन भरिल्लो शुद्ध विचारांचो
ॐकार स्वरूपी शांतिकायेचो ध्वनी
आनी रिगून पृथ्वीच्या कणाकणांत
फुलयत कोंबरी प्रज्ञेची उजवाडाच्या-तासांची-

जाल्यार हो थारतलो सुगुरवो :
एकदीस मनशांच्या रगतातलें रानवटीपण सोंपून
मनीस जातलो भोगतो, उद्गातो शांतिकायेचो
आनी वसयतलो पृथ्वीचेर दिव्यतायेचो राबितो
मनशा मनशांच्या भावपणाचो

❑❑❑

# पृथ्वी उफेत वाऱ्याचेर

पृथ्वी उफेत वाऱ्याचेर
घुस्मटत घुंव-घुंवता
खेळणे कशे मनीस तिचे
भोगणार नश्टे चलयता

धर्मकोल्ली खुबळायतात
धर्मकोल्लांचें दुश्ट पीक
मातला सांवार दोळ्यांचेर
जिबेर घोळटा कोडू वीख

देवा-धर्मांच्या नांवान चल्ला
हुंवार मिजाशी दुडवांचो
दुडवांच्या बळार बळटा
फुरफुरो उज्या, झुजाचो

धर्मांचे हे कपटी दलाल
सैतानाचें करतात कर्म
देवा-धर्मांच्या नांवांचेर
घाणायतात मनीस धर्म

जिते-जिवे "टायमबॉम्ब"
मनीस उठला मनशाचेर
खिणाभितर मातयेभर्वण
युगां आडवी राशींचेर

खंय गेली मनशा वान्सा
पेरूंक उत्कर्षाचे विचार
पृथ्वी मायेक वचून दीस
येवंचो जल्माक नव-अवतार



## सुणें आतंकवादाचें

सांबाळून
सुणें पिसावला आतंकवादाचें
धर्मकोल्लांचें हाडूक चाबडून
जें हेडटा कांडीत आतंकवाद

ह्या सुण्याक जाय मळां
लसलशीत पांचवीचार रानां
ती करपाक पडिंग निर्जीव
द्वेशभावनेच्या संसर्गान

रॅबीस कसो रोग जाल्ल्या
ह्या सुण्याक खुमखुमी
पातळांवक आपल्या
अकलेची पिलावळ

ह्या सुण्याक
उबोच चिरून पुरूंक जाय
ना तर हाचो शेक विध्वंशी
जिणेचो सुरींग

❑❑❑

## गाय आनी पाडूक

“एकल्यान मारल्यार गाय
दुसऱ्यान मारचें न्हय पाडूक”
अशी शिकवण जाण्टयांची

एक नावाडगो मारता गाय अबुद्धपणान
हाका जाप म्हूण
दुसरो अवचिन्न मारता पाडूक
रगतान भिजयत धर्तरी

एकामेकांक दुशण दिवपी
ह्या दोगांयची कालेत
एकाच तरेची
विखाची परिक्षा घेवपी

म्हाका जाय जियेल्ली गाय
भया विरयत लांब जीण
म्हाका जाय आंगापांगान वाडिल्लें पाडूक
हुसक्या मेकळें आपल्या पांयार
म्हाका जाय गोठ्यांत रुजूंक लागिल्लो
इतिहास भावपणाच्या ओलसाणीचो

❑❑❑

# कृपावंत ईश्वराचें किरण

म्हजेर शिंवर आरपार भेदपी
उत्सर्जनी पारदर्शक नीलातीत
प्रोटोन, न्युट्रोन, इलेक्ट्रोन, क्ष-किरणांचो !
किरणां जिवाची चाळण करपी विखाळीं
अजाप तरीपुण हांव आजून जितो-जिवो

देहाचे अणुरेणु विघटन करपी
ह्या अवजाळी किरणांचो म्हजेर सांवार.
आंगावेली सगळी मुस्तायकी, आभुषणां
हांच्या मारान प्रभावित जावन
हांव भितरल्यान नागडो उगडो

म्हजेर शिंवर आरपार भेदपी
देहाचे मीठ वितळावपी किरणांचो
तरीय हातूंत आसा एक कृपावंत ईश्वराचें किरण
जें म्हजेर एक सारकें राखणेचें कवच धरता
ताचें म्हज्या प्राणालागीं जिवाभावाचें नातें

❑❑❑

## नमन

नमन म्हजें महा-संगणकी युगाक
जें पृथ्वीचेर सृजन-निर्मणेचें जाळें विणून
ब्रह्मांडाची दारां उगडीत पर्गट जाता,
उत्क्रांतीच्या वाटेवेल्यान
दिव्यतायेकडेन प्रवास करता

❑❑❑

# पृथ्वी संगणक

पृथ्वी संगणकाचो अजरंवर अक्षर-पट
आनी ब्रह्मांड मोनीटर-पड्डो.

हांव कल्पनांचे कमांड दिवन
चैत्य-इंटरनेटाक करता कार्यांवित
आनी हाडटा सामक्यो एकामेकांच्या लागीं
अमर्यादीत गिन्यानाच्या पांवड्यांच्यो संकल्पना.

तशेंच कृष्णविवरां, दूदगंगा, अंतरिक्षाच्या
खाची कोनशांनी पासयो मारीत
नवी ब्रह्मांडां, जिवीं तारांगणां,
गिरावळींचें जल्म नोंदून
हाडटा सांठोवन थंयचे अलौकिक आदेश
विश्वाच्या केंद्रबिंदूचे कक्षेंत.

पृथ्वी संगणकाचो अजरंवर अक्षर-पट
आनी ब्रह्मांड मोनीटर पड्डो.

❑❑❑

## म्हजें उतर

म्हजें उतर बियोड पिकाळ
येता भुंयेर रुजवणां
जियेतल्यांची भूक वाडोवन
ओड लायता संशोधना

म्हजें उतर आदेश नृपाचो
पृथ्वी गोल उबयता
बॉम्ब ॲटम, नायट्रोजन
पोलो जावन विरगळटा

❑❑❑

## अजापी घडयाळ

अजापी घडयाळ सुर्याचें काळगती नोंदयता
ऋतुऋतूंचें भेस चडयत जिणेक व्हांवयता

भूत, भविष्य, वर्तमान एकामेकांचे हुजीर
काळ नित्य नवो ताल्ल रावता मुखार हाजीर

उत्क्रांतीचें शेवणें मारता सर्वत्र अळंग पासयो
ध्यास ताचो हुपपाचो आदी अंताचो दरयो

❑❑❑

## बांबोळेचो खुरीस

हे बांबोळेच्या खुरसा
हांव जेन्ना तुका पळयता वा स्मरता
तूं तुज्या आसनार उबो राविल्लो
हस्तदंती शिल्पकशें दिसपी
इगर्जेच्या चौकांत
येतल्या वेतल्यांची नदर
तुजे वटेन ओडून घेत भक्तिभावनेन
म्हज्या ओंठार नाचतात उतरां :
ॐ खुरसाय नमः
ॐ खुरसाय नमः

उपरांत हांव तुजें ध्यान करूंक लागतां
तेन्ना तूं खुरसा
तुज्या आसनातल्यान भायर सरून
ल्हारां भशेन नागमोडी आकृती करीत
वयर वयर अनंततत्वांत
वता अशें दिसूंक लागता

खुरसा अशें करून म्हाका सांग
तूं सर्गीच्या बापालागीं
तुज्या भक्तां पासत बेसांव हाडूंक वता?

❑❑❑

# पंचमहाभूत

पंच महाभुता खण
देह दिव्य ब्रह्मवंशी
ध्येय शाश्वत कर्तृत्वा
आत्मतत्त्व अविनाशी

मन दिव्य कल्पलक्षी
हारसो जावन बिलोरी
ओखेत रूप स्वरूपा
पडबिम्बता श्रीहरी

पंच महाभुता खण
भितर अमृत किल्लता
जल्म जल्मां पुण्य अशें
जीव जिवाक भेटयता

पंच महाभुता दिवो
प्राण जावन पेटिल्लो
दिव्यताये भूक ताची
वात सारीत राविल्लो

❑❑❑

## कृष्ण-ब्रह्म

फूल कसो जीव मुक्त सुखान ल्हवपिक
कृष्ण-ब्रह्म आयज भितर करता लिकलिक

प्राणा दिवो तेजाळून उजवाड रांगोळी
पावस पडून आशिर्वादा रूजवण जळींमळीं

हुबता बावटो लीनतेचो ना कोणा नसाय
स्पर्श जावन ईश्वराचो मन वेंगायत उंचाय

दिव्य ध्यासा वाटेवेली लडाय गेली सोपून
एकेक दार सताड उकतें घुमयत मंजुळ धून

कृष्ण-ब्रह्म आयज भितर करता लिकलिक
साकारून सर्ग कृतार्था येतलें म्होवें पीक

❑❑❑

## जागरूत देव

कोण कित्याक जागरूत देवाक
गर्भकुडींत बंदखणायतात?
कितली युगां कुलपां कुडींत
भितल्ले भितर घुस्मटायतात?

विश्वरूपी विश्वात्म देवाची
कोण सोंपयता निर्दयी ख्यास्त ?
करून काळजांत आसनस्थ
कोणाक आत्मसुखाची आस्त ?

जायत जाल्यार गांवार बोवाळ
येता धांवुन पुलीस फांटो !
कोण कोणाचो काडटलो गा
द्वेश मत्सरा कांट्यान कांटो ?

❑❑❑



## हांव आसा सोदांत

हांव आसा सोदांत
शुद्ध ब्रह्म-स्वरूपी परिपूर्ण सत्-पुरूषाच्या
जो सामान्यां सारको सामान्य आसुन-दिसुनय
जाची विचारसरणी भेदून राविल्ली
आदी अनादी अनंततायेक
जसो पयल्या-वयल्या आद्य रूशीच्या काळजांत
सिद्धीचो पयलोच वेदमंत्र विस्फोटून
उजवाड-वर्सांची पावलां उदेल्ली
मनीसकायेची बुन्याद घालपाक.

ह्या सत्पुरूषाच्या
गुरूत्वाकर्षणी मायेपासान उत्तेजीत जावन
नवनिर्माण कर्तृत्वी
उत्क्रांत पिकां काडपी ताचे विचार
झरून, झिजून ग्लानी आयिल्ल्या
वांजुड्ड्या विचारसरणेचेर
प्रतिभेचें ज्वलंत सारें घालून
सामर्थ्याचीं नवीं वैचारीक पिकां
रूपकाराक येंवची.

असो हो सत्पुरूष महावृक्ष कसो
सगळें आसपावन घेवपी
चिरंजीवी, अजरंवर मुळाव्या विचारांचो

जाच्या पांयाकडेन बसतकच
जात, पंथ, भास, भेस, देशांचो
विसर पडून जण एकल्याक दिसचें
आपूण बसला कसो
प्राणवायु प्रसवपी चिरस्थायी स्रोतालागीं.

अशा दिव्य साक्षात्कारी मनशाचें
अस्तित्वच सगळ्यांक जांवचें
जलाशय कृतार्थतायेचें
पांचवी जीवसाण जिणे वाटेर तरतरावपी
आनी काळ-माचयेवेळी
वता-सावळेभशेन पुसून वचपी
मनीस जिणेच्या पावलांची वास्तवताय होलमून
जण एकल्यान म्हणचें :
“हो जिवाभावाचो मनीस
साक्षात देवाचें अस्तित्व”.

❑❑❑

## भिरांकुळ दृष्टांत : पडसाद ११ सप्टेंबर २००१ दिसाचे

म्हाका जावंक लागल्यात भिरांकुळ दृष्टांत
आनी उकत्या दोळ्यांक भासावंक लागल्यात
निर्मनुष्य जाल्ली वैभव मिरोवपी प्रचंड महा-नगरां
ओसाड पडिल्ले आयस-पयस राष्ट्रीय, आंतरराष्ट्रीय, राजमार्ग, जलमार्ग
जंय मनीस जिणेची सर्त व्यस्त आसताली

म्हाका जावंक लागल्यात भिरांकुळ दृष्टांत
आनी धोंगसुंक लागल्या स्तब्धताय स्राप कसो
जिवे रंग प्रसवपी टवटवीत सैम जें पातळायतालें
संमोहन दोळ्यांचेर आस लागपी सृजनाचें
गुन्यावकार थारून पडला उबांतर
सोंशीत अत्याचार सैतानी करण्यांचे

म्हाका जावंक लागल्यात भिरांकुळ दृष्टांत
आनी दिसपाक लागल्यात विध्वंश करीत सुटिल्ले
विनाशी स्रापाचे मनीसघाणे पाताळयंत्री यमदूत
क्षेपणास्त्रां, बॉम्बगुळ्यांच्या वर्षावान घट्टान घडोवन
द्रव्यरूपी हिंस्त्र जिवाणूंक सोडीत अंदून वाऱ्याचो अमृत गळो

म्हाका जावंक लागल्यात भिरांकुळ दृष्टांत
आनी खरेपणीं घडये अशेंच घडूंक लागल्यार
संचारतलो अवतार अधर्मी-अरिष्टांक ना-नपश्चात करपाक
राखूंक पृथ्वीक सुगूर नवनिर्मितीच्या आविश्कारांत
करीत जयजयकार जैतिवंत चिरंतन चकचयाळ्या सत्याचो

❑❑❑

## जेजू क्रिस्ता

जेजू क्रिस्ता मेजमाप तूं
व्हांविल्लो काळ गणपाचें
मनीसकुळयेच्या अधोगतीचें ?

तूं जल्मल्लो पृथ्वीचेर
तेन्नाय वसतालें रानवटीपण
मनशांच्या रगतांत द्वेशाचें !

तूं वावरिल्लो ना करूंक तें वीख
दिवन नितळ आयाम
तुजे अध्यात्मीक शिकवणीचें !

मनशान केली उपाट भौतिक प्रगती
उबारलीं म्हानगरां, उंच मनोरे
मनीस सुखाच्या उद्धाराचे
पुणून आमी भितरल्यान फातरच निरर्थक ?

सहस्त्रकां उलगतात
खिळावन तुका मनीसकायेच्या खुर्सार
तरी आयजूय आमी मनीस तशेच
एकामेकांची गोमटी मारून
दिसपट्टे तुका खुर्सार खिळायतात !

□□□

## हांव प्रवासी

काळ-चक्राचेर स्वार हांव प्रवासी
उपजिल्लो कसो अज्ञाताच्या शून्यांतल्यान
भोंवडी सोपोवन परत वचूंक थंयच शून्यांत

काळ-चक्राचेर स्वार हांव प्रवासी
म्हाकाच सोदता म्हजी वळख
थाव न लागपी विसरायेच्या स्तब्धतायेंत

काळ-चक्राचेर स्वार हांव प्रवासी
खणून शेत जिणे मातयेचें
येतात प्राक्तनाची पिकां कोडू गोड

काळ-चक्राचेर स्वार हांव प्रवासी
घुंवता घुंवताना एक दीस उसळून
चक्राभायर शेंवटतलो नांव निशाण पुसून

❑❑❑

## ब्रह्म निर्मात्याक

दिव्य जिणेची बुन्याद घालून
भेटय प्रज्ञेचो पुरस्कार
आडखळींचे वितळावन दोंगर
लिकलिकय सात्वीक रत्नाहार

सोंपय गिराण कुटिलांचे
हुबय प्रस्न दुबावितांचे
बेंसांव फांकोवन मुक्त हातान
व्हांवय झरे अमृत सुखाचे

निस्तय पर्वा काळ-काळखाची
रानावनांत घुमय साद
सोडून सहस्त्र बाण उत्कर्षा
घडय सुमंगल घंटानाद

पुरस्कार जिवो दिव्य जिणेचो
भेटय सगळ्यांक मुकूट जैताचो
जण एकल्याची जीण घडय
कृतार्थ जिणे अमूल्य सांठो

❑❑❑

## १५ ऑगस्ट १९४७ ची निशाण

१५ ऑगस्ट १९४७ हो इतिहासीक दीस
ध्येयनिष्ठेचो, हक्क प्राप्तीचो
भारताक स्वतंत्रतायेची फांतोड हाडिल्लो.
विश्व-कमळाच्या ल्हवपिक पाकळ्या-पाकळ्यांनी
सूर्य इंद्रधनुचे रंग वारयत राविल्ल्यावरी
हो दीस सगळ्यांच्या काळजांत घर करून आसा.

नव-निर्माण संकल्पांचो आविश्कार करपाक
ह्या दिसान कोरायल्या अजरंवर निशाण
पृथ्वीच्या उत्क्रान्त जाणिवेचेर
भारतीय राजसत्तेचे आपलें अस्तित्व
''सर्वधर्म समभाव'' कृती वरवीं गाजोवन
दिवंक नदर संवसाराक
मनीसकायेच्या उत्कर्षाची.

१५ ऑगस्ट १९४७ ची याद तटतटीत
रावल्या काना-प्राणांत सादयत चलचित्र कशें
पण्डित जवाहरलाल नेहरूंचो उलो :

खूब काळा पयली अदृष्टालागीं
केल्ल्या कराराप्रमाण घेवन सोपूत
पुरातनातल्यान नव्याताल्ल युगांत प्रवेश केल्ल्याचो.
राष्ट्र बांदावळीच्या ध्येयान
विकासाची आधुनिक देवळां बांदून
उदरगतीचो म्हारथ नाचयत

कोटी भारतीयांक घटमूट करपाचें उतर दिल्ल्याचो.
गरिबी सोपोवन, अज्ञान पयसावन, समताय हाडून
जण एकाच्या दोळ्यांतलें दूक पुसून
फुडाराची आशा जागोवपाचो
सगळ्या राष्ट्रांमजगती भावपण जोडून
मनीसकायेक धिटाय दिवपाचो.

१५ ऑगस्ट १९४७ ह्या दिसाची याद
दोळ्यां मुखार हाडटा चिंतेस्त मुद्रा
शांती, समताय, अहिंसेचे शस्त्र घेवन झुजिल्ल्या
राष्ट्रपिता महात्मा गांधीची.

कलकत्त्याक द्वेशा सुडान पेटिल्ली
हिन्दू-मुस्लीमांची दंगल
उज्या लोट, रगताचे व्हाळ व्हांवताना
थंय शान्ती, सवस्तकायेचे, समजिकायेचे पर्व
सुरू करूंक वावुरताना
खंती मनान म्हणत :

आयज हांव जाला घायाळ
हिन्दू मुस्लिमांच्या विभाजनान
ही जाली फाळणी फकत देशाची न्हय
ही जाल्या फाळणी म्हज्या देहाची...

सोपयात हो वितंडवाद
सोपयात हो
भावा-भावां मजगतचो राग मत्सर...
ईश्वर अल्ला तेरो नाम
सबको सन्मती दे भगवान...

तशेंच १५ ऑगस्ट १९४७ ची स्फूर्त दिवपी याद
उगडटा पानां भारतीय प्राचीन संस्कृतायेची
महाभारत, रामायण, गीता, उपनिषदां, पुराणांची
आनी साकारायता दोळ्यांचेर
पॉण्डीचेरी आपणाल्या आश्रमांत
अध्यात्माच्या म्हारूखाचे चुंबकीय सावळेंत
ध्यानस्त बशिल्लो
महायोगी श्री अरविंद म्हणटना :

हो जल्मदीस मुक्त भारत देशाचो.
आयच्या दीसा भारतान
पोन्नो काळ सोपोवन
हाडल्या फांतोड नव्या युगाची,
संवसारार दिव्य जाणविकायेचे
राजकीय, समाजिक, अध्यात्मीक पर्व निर्मून
नवो इतिहास घडवपाचें सपन घोळयत.

हो दीस फुडाराचें मुळावण जावन
भारत नियाळटा सपन द्रष्टेपणाचें
हिन्दू-मुस्लिमां मदें  दरी उबारून
देशाची जाल्ली फाळणी
एक दीस अचळय ना जातली
सुपीक विचारांच्या धाग्यांनी
आनी ''विखंड भारत'' पर्तुन ''अखंड भारत'' जावन
भावपणान पर्तुन काळजां जुळटली.
ह्या दिसाचो दिश्टावो कृतार्थतायेचो

भारत उत्क्रान्तीचें सपन रुजयतलो
मनशांच्या समस्यांचे निवारण
उच्च बिंदू वेल्यान करून
मनीसजातीच्या उत्कर्षाखातीर
अध्यात्मीक परिपूर्णताय आशिल्लो
नवो विश्वसमाज आकाराक हाडटलो
आनी मनशांक
दिव्य वाणी उलोवंक शिकयतालो.

१५ ऑगस्ट १९४७ हो पुण्य दीस
राष्ट्रभावना जागोवपी दीपस्तंभ कसो
नियतीन वाडून दवरला आमचे मुखार.
हाची याद एकसारकी आसता जागी
रगताचें नातें ज्वलंत करून
घटमूट आनी एकजूट
राष्ट्रबांदावळीचो आपापलो वांटो उकलपाखातीर
आनी कर्तव्यभावनेन विचार करूंक लायता :

देशाचो महारथ भुजांचेर घेवन
देशाक मुखार व्हरताना
आमी खंय आसलें?
आमी खंय पावले?
आमकां खंय पावपाचें आसा ?
देशाक खंय पावोवपाचें आसा ?

❑❑❑

# मोहम्मद अली जिना

मोहम्मद अली जिना
तुजे कल्पनेतले पाकिस्तान आसलें खंय
एकसंधी आधुनिक उदरगतीची बुन्याद घालपी
पवित्र इस्लामी देश
सगळ्या धर्मांच्या नागरिकांक
समान दर्जो दिवंक सोदपी.

पाकिस्तान निर्मणे वेळार
नवी सुरवात करताना तुवें सांगिल्लें म्हण्टात :
देशांतले धर्मा-धर्मांचे लोक
भेदभाव नासताना सगळे समान अधिकारान
स्वतंत्र देवळांत वचूंक,
गुरुद्वारांनी वचूंक
मशिदीनी वचूंक
कोणूय आसूं तो मेकळो
आपापलो धर्म पाळूंक.

देश विभाजनाचे घाय ताजें जावन
रगत घायांतल्यान आयजूय केन्ना केन्ना
एकवटाचें मलम सोदता
आनी दिसूंक लागता
ताटातूट जाल्ली काळजां
पर्तुन भावा-भावांच्या नात्यान एक जांवची.

ह्या विभाजनाचे घाय सोंसतल्यांची सपनां
आयजूय वेटाळून दिगंत वातावरणाक
उफेतात मुक्त वाऱ्यार
धोलतात दर्या ल्हारार
रुजतात बियांच्या गर्भांतल्यान
घेवंक मुर्तरूप.

❑❑❑

## राष्ट्रपिता महात्मा गांधी

राष्ट्रपिता महात्मा गांधी
तूं युगपुरूष काळाच्या अमरत्वाचेर
तुजी अजरंवर मुद्रा मारिल्लो

तुवें घातलें मुळावण
दिवन संवसाराक देण
सत्य, अहिंसा, सर्वधर्मसमभावाची
मनशा-मनशांची काळजां जुळपाक
सगळ्या धर्मांचो स्त्रोत-एकवटपाक

संवसारार खंयच्याय कुडक्यार
मनशांक घायाळ करपी घडणुको
घायांतल्यान भळभळून रगत व्हांवयतल्यो
तेन्ना तांकां ते कोडसाणींतय तुजी शिकवण
द्वेश मत्सराचो पात्सो भायर मारूंक शिकयतली

महात्म्या तुज्या शुद्ध साक्षात्कारी मनांत जल्मल्ले
तुजे मनीस कल्याणाचे उत्फर्के
काळाच्या कुसव्यांत फळत-फुलत रावतले
आनी वेटाळतले दिगंत वातावरणाक

युगपुरुषा राष्ट्रपित्या महात्मा गांधी
काळ कूस परतीतना ताका नियाळची पडटली
तुवें मारिल्ली तुज्या काळाची अजरंवर मुद्रा

❑❑❑

# शणै गोंयबाब निर्जन एकोडे राती

शणै गोंयबाब तुवें निर्जन एकोडे राती
पेटयली पण्टी पडींग उडयल्ल्या
कोंकणी भाशेच्या चिऱ्याचेर
सातेरी देवतेक, आंकवार मोरयेक गाराणें घालून
कुस्कुटावणेचो वनवास भोगतल्या
कोंकणी धुवा पुतांक
सत्वाची आनी स्वत्वाची जाणविक हाडपाक.

ते पण्टेवरवीं
जाली उजवाडाची जोगलावणीं,
लागली गाजूंक तेजवंत उतरां
दिका-दिकांक हालयत
मना-मनांनी सांचून राविल्लो
आंधळ्या-युगांचो काळोख फाफडून
वाटेचेर उजवाडाची रोयणी करीत.

मागीर शणै गोंयबाब एकलो एकलो
तुवें पेटयल्ल्या जागरूत चिऱ्याचेर
स्वयं तेजान पेटयल्ली आपापली पण्टी
रगताच्या नात्यान रूजू करूंक लागलो
आनी त्या जागरूत चिऱ्याची आपशीच जाली गर्भकूड
आनी उबें रावपाक लागलें
देवूळ कोंकणीचें.

❑❑❑

## शणै गोंयबाब तत्वनिष्ठ 'एकलव्य'

शणै तूं एकटुको तत्वनिष्ठ ‘‘एकलव्य’’.
तुवें तुजो ‘‘आंगठो’’ दान मागतल्या
शेक चलोवपी ‘‘द्रोणाचार्याकि’’
आव्हान दिवन परतीलो
आनी मानगुटेर बशिल्ल्या ‘‘अर्जुनाक’’
तूं खरो ‘‘धनुर्धर’’ जावन
दाखयलो ताका ताचो जागो
आनी शिंपलो ‘‘कोंकणी संवसार’’.

शणै तेन्ना तुवें तुजो ‘‘आंगठो’’
एकलव्या भशेन बळी पडून
कपटी ‘‘द्रोणाचार्याक’’ दान दिल्लो जाल्यार?
गोंयच्यो सरभोंवतणच्यो शिमो-सरादी
केन्नाच खंयचे खंय विरगळून
आमीं सासणाचे जावन उरपाचे
स्वत्वशुन्य परावलंबी.

शणै आयजय तर्कटी आशेड्ड्या ‘‘द्रोणाचार्यांक’’
येता कूय भोपशाचेर नदर दवरून
तुका हिणसावन तुजो ‘‘आंगठो’’ मागपाची
तेन्ना ते आमच्या स्वाभिमानाक
इंगळे कशे फुरफुरायतात,
आमची कूड चूड कशी पेटोवंक सोदतात.

शणै आयज पळय तुज्या सांगाताक
आमचे हात गर्वान मुठी करून
आनी आंगठे उबे आत्मनिर्भर शिटूक
पेलून कसलेंय आव्हान
दवरूंक गिन्यानाच्या साणीर सुगूर
आमकां आत्मसन्मान मेळोवन दिवपी
तुवें शिंपून भरभराटीक हाडिल्लो "कोंकणी संवसार"

❑❑❑

## कोंकणी भाशेचें मंदिर

कोंकणी भाशेचें मंदिर आमीं आमच्या हातांनी बांदतले
आमीं आमचो पुरुषार्थ कोंकणी भाशेन गाजयतले

कोंकणी आमच्या काळजा ठोके
कोंकणी रागा सुखा उत्फर्के
स्वाभिमाना ज्योत शिरांनी पर्जळत दवरतले

कोंकणी नाचता फुगडी धालो
तियात्र नाटक जागरण कालो
संस्कृतायेचें दायज कोंकणी सहजतायेन फुलयतले

सासाय देवाची काळजा हारसो
आमचे तानेक आमचो पोंसो
कोंकणी भाशेन गाराणें घालून देवालागीं उलयतले

कोंकणी भास व्हडविक जिणेची
कोंकणी उतरां वज्र थिकांची
एकार एक चडोवन पोवनां कोंकणी मायेक नटयतले

आवयचे नीज कोंकणी भाशेक
हिणसायत जे कोण येत वाटेक
आवयचेरच ती आगळीक मानून बुद्द तांकां शिकयतले.

❑❑❑

# नागदेव

निरूपद्रवी कसो
शान्त बशिल्ले कडेन नागदेव येवन
दोळ्यांमुखार आपलो फणो हालयत
म्हाका शिटकावंक लागलो :

मनशा हांव ओग्गी पडून रावल्यार
म्हाका सगळे किंकोत करतात
आनी अशी आवतीकाय पळोवन
म्हाका चेंचपाचें येवजितात.

आनी हांवें सोडल्यार फोंस
लागीचे तशे पयसुल्ले
लागतात थरथरूंक
लेचेपेचे प्राणी कशे
आनी म्हण्टात :
बाबानो हाच्या वाटेक वचूं नाकात
तो सगळ्यांक नाच्च करतलो.

हावें विचारले :
नागदेवा लोक तुका भियेतात काय तुज्या विखाक?
ताणें सांगलें :
ते भियेतात म्हज्या पुराय अस्तित्वाक
कारण हांवच आसा मनशाच्या मनाचें प्रतीक.

नागदेवान मुखार सांगलें :
मनशा वच आनी
कर पर्गट देशाच्या सरादीचेर
तशेंच टीवी आनी इंटरनेटावेल्यान
कि हांव रागान हांगा सामको तांबडो जावन
आसा सोडीत फोंस.

मागीर पळय सगळो संवसार
कसो गळसणूंक लागता
पयल्याच फाराक.

हांवें सांगलें :
नागदेवा म्हाका मेळ्ळो संदेश
तुजे जिणेचो
आता हो पळय हांव उठून
लागता चलूंक.

आतां म्हाका जांवचेना अजाप
लोकांनी म्हज्या पांया पडल्यार
समजून म्हाका नागदेव.

□□□

## पळयतां पळयतां

पळयतां पळयतां
सगळेंच जावंक लागलां
इल्लें इल्लेशें हातांत मावता तशें.
हे पृथ्वीचोच जाला घोंटेर,
विशाल ब्रह्मांड एक गांव...

पळयतां हांव
येदी व्हडली हिंस्त्र जनावरां जाल्ली
इल्ली इल्लीशी भुरग्यांची खेळणीं कशी
आनी मळबाक वेंगावन सोडपी झाडापेडांची
बुटकी बोन्साय....

हांव म्हण्टा सगळें जालां तें बरें आसा
पुणून मनीसय लिलिपूट जावन
ताणें आपले तकलेंत
बसोवन घेवचो न्हय
इल्लोसो कुकडाचो मेंदू

❑❑❑

## नुसत्याची-टांकी

हांवें एक नुसत्याची-टांकी हाडून
घराच्या सालांत बसयल्या
तातूंत तरेक रूपा गुणांची चकचकीत
भांगरा, रूप्या, जांबळ्या, निळ्या....
आंगांची नुसतीं एकसारकी
भितरले भितर पेंवच आसतात.

हे पारदर्शक नुसत्याच्या टांकयेंत उजवाड पेट्टकच
भितरल्या नुसत्यांचो संवसार
कितलो हुसक्या मेकळो
निष्कलंक मद, मत्सर हेवेदावे नाशिल्लो
व्हांवत्या झऱ्या भशेन गतिशील
फाटलें फाटीं उडोवन नवे जिणेक आपणावपी.

हांव ह्या झगझगपी टांकयेतल्या नुसत्यांक
पळयत रावतां आनी पळयतां पळयतां मनान विरगळून
ती भितरली नुसतीं हांवच जाता
मागीर रंग-रंगयाळ्या नुसत्यांच्या रूपान
मन-ब्रह्मांडात तल्लीन जावन पेंवत पेंवत
भोगतां संतुष्ट सर्गसुखाचो साक्षात्कार

❑❑❑

## मनशाक प्रश्न

मनशा तुवें केन्ना मळब पळयलां?
मळब जातूंत भरल्यात अजापां ब्रह्मांडाची
तारे, गिरे, विवरां, दूदगंगा जंय चलयतात
आपलीं साम्राज्यां, जांच्या गोपांत
आमची पृथ्वीय आसा नातें जोडून

मनशा तुवें केन्ना पावसाक पळयलां?
पावस जो पडटा भुंयेर जीण फुलोवपी
आपल्यो भावना सृजनाच्यो उकतायत मुक्तमनान
पेरीत सगळीकडेन दिश्टावे फुडाराचे
फुलयत पृथ्वीचें वैभव जीवाळ रोसारोसांचे.

मनशा तुवें केन्ना झाडां पळयल्यांत?
जी आसतात उबीं आपली मुळां रोवून मातयेंत
पिकयत साकर तरेक रूचिंची मणां-मणांनी
जी गोड, आंबट, तोरट फळांनी अचळय भरसून
हाडटात आमचे जिणेक रूच अखंडतायेन

मनशा तुवें केन्ना फुलतें फूल पळयलां?
जें प्रतीक नितळ काळजाचें, निर्मळतायेचें
जें येता फुलून पर्मळान भरून ताज्जें टवटवीत
ओपूंक आपणाक रचणाराच्या पांयार ताका जाय तशें
सात्वीकतायेन थंयच आपले जिणेचें सार्थक मानून

मनशा तुवें केन्ना तुजें मरण पळयलां?
जें आसता सांगातान वाट चलत चोर पावलांनी
निष्ठेन तुका सांगात दीत तुजी कसलीच अपेक्षा नासताना
मात जें आसता हासत वा रडत पळयत तुजी कर्मां
जी दवरतली तुजी याद तुज्या फाटल्यान हेरांखातीर

मनशा तुवें केन्ना ईश्वराक पळयलां?
जो आसा तुजे भितर आसपाविल्लो तटस्थतायेन
जावन तुजो स्वास काळजाची सारीत वात
जो चलता भोंवताना आसता सांगाताक, आनी
गरज पडल्यार तोच आमकां केन्ना उबारून चलता

मनशा हांव जाणां तुका मातूय वेळ ना हें पळवपाक
कारण तुकाच ना तुजी वळख आनी तूं तुकाच वळखना
तुका कशें कळटलें तुजी जीण वता व्यर्थ अर्थनाशिल्ली
जी ईश्वरान आमकां भेटयल्या ताच्या सांगातान सारपाक
ताच्या निर्मणेचो घटक जावन उपभोगपाक ताचें वैभव सासणाचें.

❑❑❑

# मनीस-झूज

म्हजो दिष्टांत 'वसुधैव कुटुंबकम्'चो.....
हो कितें रचयला खेळ मनशान रानटीपणाचो
सोपोवपाक दुसऱ्या मनशाक !

मनीसकायेच्या सरादीचेर पृथ्वीच्या फाटीर खंय खंय
दिसपट्ट्यो पातळिल्ल्यो आसतात मड्यांच्यो राशी
हेवटेन आनी तेवटेन !

हे मरून पडिल्ले अनवळखी तशे खंय आसतात
एकामेकांचे दुस्मान ? वा इश्ट?
ते थारिल्ले आसतात बळी मनशांच्याच विचारसरणीचे !

अश्यो दोन देशां मजगतच्यो सरादी
जातात उज्याची आगटीं
आनी हांव मनीस झुंज झुंजत घायाळ जावन
सरादीच्या हेवटेन आनी तेवटेन
मरत आसता एक सारको !



म्हजे सारको एक एक मनीस मरता तेन्ना
येता आकांत तांच्या घरच्यांचेर
तांच्या सोयऱ्यांचेर, तांच्या गांवांचेर
तांच्या देशांचेर !

सर्वेश्वर पृथ्वीवेल्या सगळ्या धर्मांच्या मुखान उलोवन
मांडला ताणें एकूच  सार, एकूच तत्त्व :
"एका मनशान दुसऱ्या मनशाक
हात दिवन वयर काडपाचें"

तरी आमी वर्सांसंकिनी काळाक बालांडून
शतमानांक गवाय दवरतात
मनीसघाण्या करण्यांनी
मनीस मनशा पसून पयस व्हरून.

मनीसजातीची यात्रा आत्मगिन्यानाची
पारदर्शक नदर आशिल्ल्या
दिव्यमनीस जावपा मेरेन साकारत रावपाची,

पृथ्वीचेर घडोवन हाडपाक मनशा मनशां मजगती
कृतार्थ, साक्षात्कारी, दिव्यजिणेचो
चिरस्थायी आविश्कार
हे पृथ्वीकच घडोवंक
'वसुधैव कुटुम्बकम्'

❑❑❑

# सुनामी ल्हारांचो प्रलय

हुळहुळपी मुयांच्या रोयणीचेर
नेटान मारचें कळसोभर उदक
आनी मुयो रोयणी सयत
खंयचे खंय नाच्च जांवच्यो
तशी आयली जीवघेणी सुनामी मर्ण-हारां
आनी किडी-मुयांवरी सगळें व्हांवोवन गेली.

ही प्रलयरूपी सुनामी विद्वाटी ल्हारां उप्रासतकच
जावन दर्या पोंदचे धतरिचेर भुंयकांप आकांताळो
गेली धारण करून उग्र रुप विनाशाचें
धुवन उडयत देशा-देशांच्यो कृत्रिम सरादी
आनी व्हांवयत मनीस संस्कृतायेच्या बढायेच्यो
कुरवो कांयच न्हय कशो.

खिणयाळी जीण जियेवपी मनशां मुखार
ह्या सैमाच्या लीलेचे कुवाडें
रावला तांकां धोंगशीत जाप नाशिल्लें, सुटनाशिल्लें
पुणून ब्रह्मात्मो  मारीत रावतलो पावलां
उत्क्रान्तीच्या प्रक्रियेची
आदी शक्त निर्मणेच्या मुळावणेचे प्रसवणेची.

❑❑❑

## निर्धार

निर्धार दवरता व्हांवयत निरंतर
काळाच्या प्रवाहाचे गतीक
निर्धार लायता उलोवंक फुलोवंक
भविष्य वेधपी प्रज्ञेक

निर्धार उस्तिता काळोख सांचिल्लो,
लुप्त तळागाळाचो थर
निर्धार घडून वज्राचें पातें
लिकलिकता जावन वर

निर्धार हुबैता दिगंत बावटो
मन-इत्सांच्या हिमालयाचो
निर्धार पेरता उजवाड कंवळो
अग्निदिव्यांच्या खरायेचो

निर्धार पितारून चिरस्थायी
दिश्टाव्याची सुचित्र नवलाय
फुडें घडटल्या घडणुकांचो
जियेता निश्चिंत जावन गवाय

❑❑❑

## इसापनीतीतली बांय आनी बेबो

इसापनीतीतल्या बांयचे आनी
तातुतल्या बेब्याचें जीवित आयज काल
नशीब फळफळावपी जावंक लागलां !

देखून वचत थंय सगळेच
जियेवंक सोदतात हे बांयतले
बेब्यावरी मानून बांयक "विश्वरूपी" !

अशे बांयरूपी अवस्तेंत जियेतल्यांक
कित्याक मानचे न्हय
दायजी इसापनीतीतल्या बांयतल्या बेब्याचे ?

जे संकुचित वृत्तीन आपसुवार्ताच्या कोंडांत लोळत
लज भीड दवरी नासताना आपणाक म्हणोवन घेतात
"समाज सुधारक", "जग उद्धारक", वा "जगत् गुरू".

ही शेळो मातिल्ली, कोयर धुल्ल पचयत
जियेतली बांय आनी तातुंतलो बेबो
सुदारपाची चिन्नां दिसनात

आता एकूच उपाय उरला :
बांयचो तळच भितल्ल्यान विस्फोटून
बांय हुमटून उडयत

वयर सरपी
जोरगती उदकाच्या झऱ्याक
मुक्ततायेन व्हावूंक दिवपाचो.

❑❑❑

# तीर्थक्षेत्र वसुधैव कुटुंब

हो वण्टीर हुमकळायल्लो
तीर्थक्षेत्राचो पुरातन फोटो
आदिमायेच्या उत्सवाक जमिल्ल्या
चिक्कार गर्देचो.

त्या मूळ जाग्यार
जावन संस्कृती उत्थानाची फांतोड
एक एक मनीस किल्लून
उमळिल्लो मनशा मनशांचो खजिनो
आनी उबें राविल्लें हें तीर्थक्षेत्र
देवळांत स्थापून आदिमायेची मूर्त.

तेन्नाच्यान मनशांक लागल्या तान
नतमस्तक जावपाची
आदिमायेच्या पांयाकडेन
तिचेवरवीं जोडूंक नातें
परमशक्त रचणारालागी.

ह्या पुरातन फोटोंतले
लाखांनी लोक अठरापगड जाती-धर्मांचे
केन्नातरीच मरून जाले काबार
तरी आयजय तसोच गर्देचो ओघ
फसफसत आसा

अठरापगड जाती-धर्मांच्या लोकांचो
व्हांवयत तांच्या सांगातान जातीकातींची
तांच्या रगतांत भिनिल्ली
उच्च-उणाक विचारांची समजणी.

हे आदिमायेक गवाय दवरून
झडटात हांगां ह्या तीर्थक्षेत्रार
अध्यात्मिक सत्संग, प्रवचनां
सत्पुरूषांची, सिद्धपुरूषांची
सगळ्यांचें बरें जांवचे म्हूण.

जाता म्हाका अजाप ह्या
सत्पुरूषांचे, सिद्धपुरूषांचे
जे अठरापगड जाती-धर्मांतल्या लोकांचीं
तांच्या भितरली उच्च-उणाकपणाची भावना
ना जांवची म्हूण
कांयच करनात, कांयच उलयनात.

पुणून गायतात पोकें व्हडपण
मनीस जातीच्या एकवटाचें
त्या सर्वशक्तिमान सर्वेश्वराक
वचचें म्हूण शरण
आनी एकरूपचें म्हूण ताच्या तंद्रेंत
लीन जावन खालतीकायेन
कसलोच वेगळेचार दवरीनासताना.

म्हजो दिश्टावो :
ह्या तीर्थक्षेत्रार येतलो जल्माक
नवो अवतार
नव्या काळाच्या नव-विचारी सिद्धपुरूषाचो
जो ह्या अठरापगड जाती-धर्मांतल्या लोकांची
तांच्या भितरल्या
उच्च-उणाकपणाच्या दळदिऱ्या विचारांक
आपल्या तेजान विरगळावन
भायर मारतलो आनी
प्रत्येक जातीधर्मांतल्या मनशांक
एकवटाच्या स्वाभिमानान
समान पातळेचेर हाडून
विस्तारायतलो नवो सिद्धांत
मनीसजातीच्या कल्याणाचो :
            एक धर्म : मनीस धर्म
            एक जात : मनीस जात

मागीर हांव
ह्या तीर्थक्षेत्राचो, चिक्कार गर्देचो
आधुनीक नवो फोटो काडून
नव्या पिळग्यांच्या घराघरांनी
हुमकळायतलो
दिवन माथाळो
            ''तीर्थक्षेत्र वसुधैवकुटुम्ब''

□□□

# ईश्वरालागी संवाद

कुमार मातयेपासून आपल्या हातांनी
काळीज ओतून पण्टी निर्मिता,
जातुंतल्यान प्रसवता उजवाड निर्मळ सात्वीक.
तशेंच आपलेपणान येदें व्हडलें
चैतन्य-स्वरूपी विश्व-ब्रह्मांड निर्मुपी हात
तुजे बगर आनीक खंयच्या
सर्व शक्तीमानाचे आसतले ईश्वरा?

हें विश्व-ब्रह्मांड आगर निखळ सुखांचे
तुका भोगीत जियेवपाचें.
तुजो सांगात, तुजी श्रद्धा जांच्या अंतस्कर्णाक
स्पर्शी नासताना जे भितरल्यान एकमुळे
आनी रितेच जियेवन मरतात
तसल्यांच्या उत्कर्षाखातीर
कोण कितें करूंक शकतलो ईश्वरा?

आंगार प्रांत, पंथ, धर्मांची
आभुषणां मिरोवपी मतलबी धर्मफुडारी
आपणाल्या पेपाऱ्यांच्या घुंवळेत रावन
आपल्या पिलावळींक मंत्रमुग्ध करून
नादाक लायतात तांकां
कसो होलमतलो तुजो निर्मणेचो
समान एकजिनसी स्रोत ईश्वरा?

हें विश्व-ब्रह्मांड तुवें निर्मिलां
हारशावरी पारदर्शक, सत्यप्रदर्शक
तितलेच पारदर्शकतायेन
तातूंत कोणेय ब्रह्मस्वरूपी जावपासारकें.
धर्म संस्थापकांनी तुका उक्तावपाची दुकानां उगडून
मनशा मनशांक वेगळावपी साबार धर्म निर्मिले
हो तांचो ताणीं स्वार्थाखातीर केल्लो
निव्वळ उकतो अतिरेक न्हय ईश्वरा ?

❑❑❑

## म्हजो प्रवास चिरंतनाच्या वाटेवेल्यान

प्रवास म्हजो जाला सुरू
चिरंतनाच्या वाटेवेल्यान
फांतोडेच्या झिळमिळट्यार.
मागून बरें प्रवासाक म्हज्या
दितात तारे निरोप म्हाका
लिकलिक आपली घेत फाटी
वचत भरसून उजवाडान.

सरता मुखार तसो सूर्य
दिता उर्बा पातळावन वाटेर
कंवळी किरणां लवचिकतायेची,
आनी लागता चलूंक सांगातान
लांब सावळी म्हजी सोडीत फाटल्यान
चलता तसो हांव मुखार.

प्रसन्नतायेन म्हज्या येवकाराक
पर्जळायता सैम देखावे एकार एक.
सुकर्णी शेवर्णी लयबद्द सुरांनी
गाजयतात वाठार मधूर गायनांनी
भारावन उडयत म्हाका अचळय
आपणाल्या जिवाभावाच्या सांगातान

सूर्य तपस्वी पातळायत मंत्रायल्ली किर्णां
रावता चडत वयर वयर ब्रह्मांड उजळायत
करीत म्हजी सावळी ल्हान ल्हान.

आनी जाता म्हणसर दनपार
सूर्य म्हाका उबारून घेवन आपले हाण्डीर
करता म्हज्या पांया पोंदची सांवळी घुटमळपी इल्लीशी.
दिसता म्हाका अशा सर्गी-समयार
जाला जसो हांवच स्वयं-सूर्य.

आता सूर्य ल्हवू ल्हवू म्हजे मुखार चलून
सोडटा आपली सावळी म्हजे फाटल्यान
दवरीत अखंडीत म्हजो प्रवास.
म्हजे फाटल्यान जी आता आसता सावळी
ती आसता साक्षात सूर्याचीच
जी जायत रावता सांजेमेरेन लांब लांब
विरगळून ना जायत मेरेन सहजतायेन.

पावता आता हांव अशा पेण्यार
थंय जाता सुरवात काळखाच्या साम्राज्याची
जंय आसतात राविल्ले सज्ज तत्पर
म्हज्या येवकारक पिकून पर्मळिल्ले
नक्षत्रांचे घोंस वाट म्हजी उकती करीत
प्रवास म्हजो जांवचो म्हूण चड सुखाचो
काळखांच्या यज्ञांतल्यान उजवाडाच्या सिद्धीरूपी
समाधी मेरेनचो.

❑❑❑

## तृप्ताय आवयपणाची

श्रावण गाळींत सुरांचे गाजींत
मुक्त वताचो रंगा घसघसो
शिंवर मेकळ्या झाडां-केंसांनी
भरून वोत्ता मळबा पोंसो

न्हेसून शालू नवे-पिकेचो
तुश्ट धर्तरी शिरिंगारल्या
धन धान्यां शुभ सौभाग्यांन
अन्नपुर्णेची व्हट गिरेस्तल्या

रंगल्या मोगाची दाट मेथी
मेथी विलुदी आयाव सुखाची
उकत्या मळबा वेंगेंत धर्तरी
भोगता तृप्ताय आवयपणाची

❑❑❑

## ईश्वरा ध्यान तुजें करताना

दोळ्यांमुखार सुप्त झिळमिळटात
पड्डे अदृश्टाचे रंगयाळे
घुंवन ल्हारेता ब्रह्मांडा भोंवतणी
आगटें सातरंगी वाटकुळें
ईश्वरा ध्यान तुजें करताना

काळजांत उसळटा खोल खोलायेंत
करुणेचो शांत म्हा-सागर
मनिसकायेच्या कळवळ्याची धून
भितरल्यान झंकारता विश्वभर
ईश्वरा ध्यान तुजें करताना

दोळ्यांमुखार वैभव परमार्थाचें
नित्य सनातन चिरंजिवें
स्थिती लयेतल्यान नव निर्मणेची
क्रिडा तुजी प्राणासवें
ईश्वरा ध्यान तुजें करताना

❑❑❑

## शबरी-मला अयाप्पा

आदी बिजेचो रूपकार प्रत्यक्षसो
शबरी-मला धाम अयाप्पाचें
ब्रह्म-स्वरूपी ज्योत कृपेची
अखंड वास्तव्य सर्ग-सुखाचें

ह्या धामाची सासाय येदी
तिका सजिल्ली ब्रह्मांड-वेदी
आत्म-तेजान अणुरेणू भिजून
आदी अंताक रावता वेटाळून

पुण्यायेन ताचें दर्शन घडटा
रहस्य जिणेचें सहज होलमता
ध्यानान अयाप्पा रावता उबो
साक्षात येवन लायता तिबो

❑❑❑

## देवा तुजी गोडी

देवा तुजी लागल्या गोडी
मेळटा समाधी ध्यानान
सोपता जिणे काडाओडी

वचत थंय तूंच दिसता
तूंच भितर सांसपिता
कातकुल्यानी सहज हांसोवन
मारता मायेची बडी

ध्यान तुजें भोंवतना
गळोभर कामांत आसतना
आवय जशी सानुल्याची
करता याद घडघडी

आता चड उणें खंय
मुक्त अनंततायेची वंय
आलतड पलतड जाल्या एक
ना कसली चडचडी

❑❑❑

## एकाच जल्मान दिसता

एकाच जल्मान दिसता देवा
कितलेशेच जल्म जियेलों
तुजीच कृपा आसली देखून
हांव खंयच्यान खंय पावलों

हांवें कितेंय मागचे पयलीं
फावता तितलें भरभरून दिलें
दिलें तितलेंय चोख भांगर
जिणेचेच गोड भांगर केलें

चराचरांतल्यान गोचर जावपी
उत्क्रान्तीचो तूं स्वयं दिव्यात्मो
शाश्वत काळाशीं नातें जोडूंक
तेजान विशाळटा म्हजो जिवात्मो

❑❑❑

## पृथ्वी वैभवी

पृथ्वी वैभवी चिर यौवना
आपले भितर रत साधनेंत
उत्पत्तीच्या स्थिती लयेतल्यान
विनाशवंत नव निर्मणेंत

काजळ काळ्या केंसार माळून
तेजिस्त नखेत्रांची हळी
सावळी विराट आकाशगंगेक
दिता चैतन्याची झळाळी

बाळक कशी मुक्त निरागस
घुंवता मळबाच्या आंगणांत
हुबून मनस्वी अधांतरी ही
उबयता जिणेतत्त्व कुसव्यांत.

❑❑❑

## पिंपळाचो रोंपो

सकाळी पोरसूं शिंपताना
दिसलो म्हाका इल्लेशे कुंडेंत
रुजूंक लागिल्लो पिंपळाचो रोंपो

हांव अजाप भरीत जावन
पळयत रावलों
कुकुल्या रोंप्याक
जाच्या मुळाच्या बळग्याक
अनंतकाळाची देण
सृजन विस्कटावणेची

ह्या रोप्यांक पळयताना
दोळ्यां मुखार लागलो साकारूंक
ह्या रोंप्याचो जाल्लो
महाकाय पिंपळ
आपलीं मुळां खोल पातळावन
आपले सासायेन
धायदिकांक लागीं करूंक लागिल्लो

हांवें ह्या रोंप्याक
लक्तुबायेन पोशेत सांगलें :
तुज्या दर्शनान म्हजें अंतस्कर्ण
तुवें केलें विशाल मळबा येदें
धन्य जालों हांव

तुवें जल्म घेतलो म्हूण
म्हज्या पोरसांत

आतां हांव तुका कुंडे सयत व्हरून
करतां तुजी प्रतिस्थापणूक
देवळाच्या प्रांगणांत
थंय तूं काळाची म्हयमा गायत
दिशीं-माशीं वाडत रावन
दी तुजी सावळी
मनीसकुळयेक अखंडतायेन
सासणाचें मुळावण घट करीत

❑❑❑




## आतां लख्ख उजवाडलां

फाटलें फाटल्यान उडोवन
फुडाराचेर नदर खिळोवन
सुर्यान मळबाक वेंगायला
आतां लख्ख उजवाडलां

उजवाडाचें पिकला तळें
ताचेर उफेता चित्त-कंवळें
उजवाडाचो मंत्र सांगता
पेरात उजवाड उजवाडान

उजवाडाचे थर रंगांचे
तांचेर थवे शेवण्यांचे
किरामोरांच्यो शिटूक नदरो
आपणाकूच खुणायतात

जागला म्हजें भाग्य आयचें
काळखंडाक हुपत रावपाचें
तुजीच मरे ही लीला देवा
तुज्या सांगातान चलपाची

❑❑❑

# एक धर्मस्थान मनीसकायेचें

धर्तरेचेर प्रत्यक्षांत रूपकाराक येवपाक
म्हज्या अंतरात्म्यांत साकारता
एक धर्मस्थान मनीसकायेचें
जंय संवसारभरचे मनीसकायेक भुकेल्ले मनीस,
मनीस म्हूण एकवटतले
दिवपाक नवो अर्थ-आयाम मनीसकायेक.

हें धर्मस्थान सताड उकतें नासून वण्टी दारां
चराचरांत ऋतू-चैतन्य पातळावपी
सुर्य थंय महाधिपती
आपल्या सुवर्ण-अग्नीच्या ध्यानांत मग्न
निर्मळ मनांतल्यान सगळ्याक पर्जळायत
सृजन-पर्मळ समजिकायेचो
जातूंत प्रकट जातले महोत्सव काळाचे अजरंवर.

ह्या धर्मस्थानाचे नेम घडोवपाक
वावुरतले थंय संवसारभरचे
धर्माधर्मांचे फुडारी, मनीसकायेचे पुजारी
थारावंक मनीसजातीच्या उत्कर्षाचे आदर्श
चर्चा परिसंवादावरवीं
धर्मा-धर्मांच्या रितिरिवाजांचो, पाथावळींचो
सरमिसळेन समन्वय घडोवन हाडपाक.

थंय चलतली भासाभास :
- जो मनीस दुसऱ्या मनशाक समान लेखना
तो कसलो मनीस अर्दोकच्चो भरीक भार कसो ?
- धर्मफुडारी मनशा-मनशां मजगती
जाती-कातींचे, गोत्र-पंथांचे पावंडे घालून

तांचे पंगड मातयता
तो कसलो धर्मफुडारी मडसरेचो?
आनी कसलो ताचो धर्म कपल फुटको?

- ज्या धर्मफुडाऱ्यांक सगळ्या धर्मांचो मूळ स्त्रोत होलमना
आनी देवा-धर्मांच्या नांवान मनशा-मनशांक वेगळावप
हो त्या विश्व-ब्रह्मांड निर्मात्याचो अपमान म्हूण समजना
ताका कसलो हक्क आंगार धर्माची प्रतीकां आभुषणां चडोवन
देवा-धर्मांच्या नांवान मिरोवन घेवपाचो?
आनी असल्या फालतू धर्माधिपतींचो मतलबी धर्म
कसो तारूंक शकतलो मनीसकायेक?

ह्या धर्मस्थानांत उदेतले भक्ती भावनेन भिजिल्ले
जाय जाय कशे दिसपी एक एक भाग्याचे दीस
जंय विश्व-ब्रह्मांड निर्मात्यान पातळायल्ल्या
अलौकिक, ईश्वरीय उजवाडाच्या ध्यानान तद्रूप जावन
आपल्या अस्तित्वासयत दिव्य विचारसरणी पर्जळायत
एक मनीस दुसऱ्या मनशांत पळयतलो आपलेंच अस्तित्व,
दुसऱ्या मनशाच्या काळजांत पळयतलो आपलेंच बिम्ब.

हें धर्मस्थान केंद्रबिंदू अनंततायेचें
कृतार्थ मनीस जिणेच्या आदर्शाचें
ताच्या संपर्कांत मनीस जातलो
परिपूर्ण जागृत भरिल्लो कळसो कसो उजवाडाचो
आपल्या प्रभावान
आशीकुशीचे अज्ञानाचे, संकुचित विचारसरणेचे पड्डे
सटासट हुमटावन भायर मारून पातळायत
योगसिद्धीचीं स्तब्ध शांतताय परिपूर्णतायेची
ईश्वरी संकेताचे दिश्टावे घडयत.

❑❑❑

## ‘मागणें’ ब्रह्मांडरायालागीं

खिणान खिण ब्रह्मांड-राया राज्य तुजेंच चलचें
राष्ट्रांच्यो सरादी मोडून मुक्त विचार व्हांवचें

पृथ्वीर जांवची भौतिक प्रगती सांगातान आत्मीक
जणेक आविश्कार साकारचो जावन तुजेंच प्रतीक

मनीसकायेक येवन ओतो नातीं नवीं जुळची
संवसारभरची मनीसजात एकाच धाग्यान गुंथची

राष्ट्रां जांवचीं धर्मस्थळां भक्तीच्या कोमरेची
मनीस उत्कर्षाची चर्चा थंयसर नित्य चलची

निर्मणेचो स्रोत तुजो अचळय रुजून फुलचो
आतंक, झुजां, फित्रुसांचो दुश्टाचार सोपून वचचो

किर्णां तुजी दिव्यतायेची संवसारार पातळचीं
सोदूंक सत चिरंतनाचें तानेन काळजां भरचीं

❑❑❑

## BIO- DATA OF DR. S.S. KULKARNI :

Dr. S.S. Kulkarni (b. 5th August,1932) received his education at Kotumachgi, Gadag, Naregal and Dharwar in the Karnataka State, and in Mumbai. He joined the Department of English, University of Bombay, in 1969 and was posted as Lecturer in Charge of English at the Bombay University's Centre of Postgraduate Instruction and Research, Panaji, Goa. While working at the Goa Centre, he completed his doctoral thesis on '***The Dramatic Element in the Poetical works of Sri Aurobindo Ghose***', for which the University of Bombay conferred the Ph.D. degree on him in 1982. He was on the staff of the Department of English, Goa University, working as Reader till 1993. He taught at B.A., M.A., M.Phil and Ph.D. levels from 1957 and 1993 and Post-doctoral Research Guidance 1993 onwards.

Apart from research papers in English on Sri Aurobindo's poetry and plays and on the plays of Tagore, Kulkarni has published critical articles in Kannada and English on V.K. Gokak as a poet and teacher, on D.R. Bendre as a poet, and on the state of modern Kannada literary criticism. He has also contributed to the Sahitya Akademi's Anthology of Modern Indian Literature, English translation of Konkani poems written by the leading poets of Goa — B.B. Borkar, Prakash Padgaonkar, Ramesh Veluskar, Nagesh Karmali.

Dr. Kulkarni got the opportunity of giving lectures in Kannada and English on Sri Aurobindo and the Mother, on the Integral Philosophy and the Integral Yoga; he held weeklong discourses on ***Savitri*** ("Savitri Saptah") at various Society Branches and Centre and other Institutions, including the Theosophical Society of India at Dharwad, the Dandeli Centre, the "Sahakar" Branch at Bombay, the Society Centre at Surat, Gujarat, and Sri Aurobindo Ashram, Delhi Branch; successfully guided in writing and submitting to Goa University, a Doctoral Thesis on ***Savitri*** an Indian specimen of Apocalyptic Literature.

Dr. Kulkarni's research activities continued under the auspices of the Auro Research Cell from Goa. He offered necessary guidance and explication for preparing and publishing post doctoral research articles. His research activities further continued under the auspices of the Auro Research Cell after his relocation to Pondicherry, from September 2003 to July 2005. During this period, he also held bi-weekly discourses in Kannada on ***Savitri*** at the Ashram School Pondicherry.

Publications:
"***The Plays of Sri Aurobindo***" , in the book, "***Perspectives on Indian Writing in English***", edited by M.K. Naik, published by the Oxford University Press,1978. "***The Plays of Sri Aurobindo – A study***", published by Rajhauns Vitaran, Panaji Goa, 1993; "***Sanatanan Dharma and Sri Aurobindo's Vision of a Divine Life on Earth***", in the quarterly, "Advent", edited by Samir Kanta Gupta, published by Sri Aurobindo Ashram Publications Department, Pondicherry, Vol.64 No.1, February, 2007.

Address:
Dynasty Apartment, Flat No. F-4, Taleigao, Panaji, Goa. 403 002.

**प्रकाश दामोदर पाडगांवकार**
जल्म : ४ डिसेंबर १९४८

**उजवाडाक आयिल्ले कविता संग्रह :**

१. उजवाडाची पावलां (१९७६)
२. वास्कोयन (१९७७)
३. हांव मनीस अश्वत्थामो (१९८५)
४. कविता : काळ-रेल्वेच्यो, मन हारशांच्यो,
   पावसा पाणयाच्यो (१९९३)
५. सर्ग घडपाक धतरिचो (१९९४)
६. व्हांवती न्हंय काळाची (२००३)
७. ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो (२००८)

**कवितेचे जाल्लो भौमान :**
साहित्य अकादेमी पुरस्कार, डॉ. टि. एम. ए पै फावण्डेशन उत्कृष्ठ ग्रंथ पुरस्कार, कोंकणी भाशा मंडळ आनी गोंय कला अकादमी पुरस्कार, गोंय सरकाराचो ''राज्य सन्मान २००७'', डॉ. चंद्रलेखा डिसोझा हांची हिंदीत ''धर्मवीर भारती और प्रकाश पाडगांवकार की कविताओंका तुलनात्मक अध्ययन'' ह्या विषयाचेर पीएच.डी.

# ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो



प्रकाश दा. पाडगांवकार

ह्या संग्रहांतल्या जवळ जवळ सगल्या कवितांनी आमकां दिव्यतायेचें दर्शन घडटा. हें सत अणभव करपाक आमीं कवी प्रकाश पाडगांवकाराच्या ह्या संग्रहांतल्या कवितांचो पुराय अर्थ समजून घेवंक जाय. ह्या कवितांचे अर्थ विस्कटावणेचें म्हत्वाचें कार्य आमच्या कोंकणी साहित्यांतल्या जाणकार विमर्शकांनी करपाची गरज आसा; तशेंच तांच्या काव्य व्यक्तित्वाची Research Study करपाचें कार्य आमच्या भाष्यकारांचें आसा.

पाडगांवकारान आता मेरेन "**असतो मा सद्‌गमय**" आनी "**तमसो मा ज्योतिर्गमय**" हे संबंधी सगळेंच स्पश्ट केल्लें आसा. पुण उपनिषदाच्या शांतिमंत्राची शेवटाची उक्ती उरलेली आसा, ती म्हळ्यार "**मृत्योर्मा अमृतं गमय.**" हो आदेश मनशाक वेदा भितरय केल्लो आसा. तशेंच सगल्या मनशांक "**अमृतस्य पुत्राः**" अशेंय वेदाभितर वर्णित केलां. हेच प्रमाण श्री अरविंदानय म्हणिल्लें आसा:

**"देवान आमकां निर्मिलां देखून**
**आमींय आमचे पसून देवाक निर्मूंक जाय"**

हेच म्हत्त्वाचे नदरेन प्रकाशबाबाली फुडली प्रगती "**अमृततत्त्वान**" अवसान जावंक जाय. आनी ते खातीर प्रकाशाची फुडली काव्यनिर्मिती चालूच उरूंक जाय. ते मेरेन ताका चलपाचेंच आसा आनी हांव म्हण्टा "बाब प्रकाश तथास्तु!"

**डॉ. एस. एस. कुलकर्णी**

सृजन-विश्व प्रकाशन